# सार्थ दुख्खार्थ

(कविता संग्रह)

एन. शिवदास

प्रकाशन क्र. 3

© रूद्रा प्रकाशन

पयली आवृत्ती : 2011

उजवाडावपी :
रूद्रा प्रकाशन
फेड्रीका अर्पाटमेंट,
सोहनी हॉटेला सामकार
काकुलो कॉलनी, मिरामार
पणजी, गोंय.

छापपी :
पद्‌मा प्रिंटर्स,
तिटो वाडो, नेरूल, गोंय
9822863473

मुखपृष्ठ :
श्रीधर कामत बांबोळकार

अक्षरजुळवणी :
ज्योती गांवकार
9923246885

मोल : रू. 150/-

# Sarth Dhukkarth

(Collection of poems)

N. Shivdas

Publication No. 3

© Rudra Publication

First Edition: 2011

**Publisher :**
Rudra Prakashan
Fedrika Apartment,
Opp. Hotel Sohani
Caculo Colony, Miramar
Panaji, Goa.

**Printer :**
Padma Printers
Tito Vaddo, Nerul - Goa
9822863473

**Cover :**
Shridhar Kamat Bambolkar

**Typesetting :**
Jyoti Gaonkar
9923246885

**Price : Rs. 150/-**



शिवा आवय स. शांताबाय
शिवा बापूय स. सोनू नायक
हांकां अर्पण

– शिवा (एन. शिवदास)

# मांडावळ

■■

# मनानमाः शांतायनमः

रूद्रा प्रकाशन म्हळ्यार एक धडपड आनी रूद्रा प्रकाशन म्हळ्यार एक आवड. जी गजाल मनाक भिडटा आनी आवडटा ते गजालीचो पाठपुरावो करप म्हळ्यार रूद्रा प्रकाशन.

पयलें पावल, दुसरें पावल मेळून तिसरें पावल आपसूक पडटा आनी अनायास फुडलीं सगळीं पावलां पडटात. 'घुस्पल्ले धागे' आनी 'आम्रपाली' हे सुफला गायतोंडेचे आपले अशे दोन कविता झेले उजवाडाक हाडल्या उपरांत भोंवतणी पावल मारीन दिसलें तेन्ना रूद्रा प्रकाशनान आलतडच्यान पलतडी पळोवंक जाय हो भास मनाक भिडलो आनी तेन्नाच आमचे इश्ट आनी बरें मागपी बाब शिवदास उलयता उलयता एकदां म्हणपाक लागले, ''हांवेंय म्हजें लेखन काव्य लेखनांतुनूच सुरू केल्लें आनी हांवें बरयिल्ल्यो बऱ्योचश्यो कविता हांगा थंय फायलिंनी, कपाटांत शिंपडून आसात. आतां खंयचोय कवी कविता बरयता तो भायर उडोवपाक नक्कीच बरयना. कविता छापून येवप, ती कोणें तरी दर्दीन वो काव्यप्रेमीन वाचप, ताचें रसगृहण करप वो तिचेविशीं आपलें वायट बरें मत प्रकट करप अशे साहित्यीक संकेत आसतात.

शिंपडायिल्ल्यो, हांगा थंय पडिल्ल्यो कविता एकठांय करप हें पयलें काम शिवदासान ना म्हळ्यार केलें, पूण त्यो निवळावप, परत बरवप वो वेंचून काडप, खंयची छापप, खंयची ना हें करपाक मात शिवदासाक वेळ नाशिल्लो, ताणें सगळ्यो कविता चित्रकार कवी गौरीश वेर्णेकाराकडे दिल्यो आनी गौरीशान कांय तेंपान त्यो कविता वेवस्थित मांडावळ करून, सुदारून, निवळावन बी रूद्रा प्रकाशनाकडेन पावयल्यो आनी रूद्रा प्रकाशनान ह्यो कविता पुस्तक रूपान मार्च म्हयन्यात प्रकाशांत हाडपाच्यो थारायल्यो. ते प्रमाण वावर सुरू जालो. सगळ्यो कविता परत शिवदासबाबाकडे दिल्यो. नदर मारून दिवंच्यो म्हण सांगलें आनी मजा म्हळ्यार शिवदासबाबानी कविच्या झेतान आनीकूय कांय कविता भरीक घाल्यो. दुख्खाच्यो कविता – दुख्खाचेर समर्थपणान वेगवेगळ्या भावविचारांचे प्रगल्भतेन भाश्य केल्ल्यो अश्यो कविता आमकां दिल्यो. वेगवेगळे संदर्भ घेवन आयिल्ल्यो खूब पोरण्यो कविता ह्यो चडश्यो सामाजिक आशय विशयाच्यो तर

तरणेपणावयल्यो प्रेम कविता, चळवळींतल्यो प्रेरक कविता तर केन्ना केन्नाय सामाजिक अन्यायावेल्यो कविता, कांय भिडपी तर कांय पिडपी, तिडक हाडपी, अश्यो समीश्र भावभावनांच्यो सरभरस कविता आमी जमयल्यो आनी तातुंतल्यान 'सार्थ-दुख्खार्थ' हो कविता झेलो एन. शिवदासाक कवी शिवदास अशें नामकरण करपाक पुन्यो जाल्यो. एन. शिवदास कथाकार. 'भांगरसाळ' कथा झेल्याक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फाव जाला, N.C.E.R.T. चो राष्ट्रीय बाल पुरस्कार पदराक आसा. ते भायर गोंयांतले साबार पुरस्कार तांच्या खास करून कथा लेखनांक लाभल्यात.

कविताचो हो झेलो रूद्रा प्रकाशनाक एका पोडाक गुंथून एक वोंवळां माळ वो सुरंगा वळेसर कसो करपाक मान्यताय शिवदासबाबांनी दिली हाची आमकां खोस जाता. ते निमतान रूद्रा प्रकाशन मिरामारच्या काकुलो कॉलनींतल्यान भायर सरता, भायल्या आसमतांत पाखां फाफुडपाक पळयता. हो उडानाचो ध्यास फक्त कोंकणी मायेचे सेवेखातीर, कारण सरस्पतीची सेवा तीच दुर्गेची सेवा आनी आमचे शांतेची भक्ती असो आमचो मनापासून भावार्थ आसा.

– सुफला रूद्राजी गायतोंडे
मिरामार, पणजी – गोंय

# आनी हांव क्वी जालो

कांय योग्य जिणेची वाट चलतना येतात ते अनपेक्षीत. योग जेन्ना सुयोग जातात तेन्ना आमी ताका नशीब उजवाडलें वो भाग्य फळां आयलें बी म्हणटात. तशें म्हजे बाबतींत क्वचीत घडलां. अख्खी जीण जगपाच्या संघर्शात गेल्ल्यान उतार पिरायेर थोडीशी स्वस्थकाय वाट्याक आयली तेन्ना मनांतले खुबशे संकल्प साकार जावपाचे भास म्हाका जावपाक लागले. तातुंतलो एक भास कविता संग्रह उजवाडाक हाडपाचो. तसो हांव कितें हाडचो कवी न्हय, चडूच जाल्यार ताडचो शिडशिडीत कवी म्हाका म्हणूं येता, कारण म्हज्या लेखनाची सुरवात साधारण तेराव्या वर्सा कवितेन सुरु जाल्ली. फोंडेच्या आल्मेदा हायस्कुलांत शिकता आसतना स्कूल मॅगझिनाखातीर कविता बरोवपाचो प्रयत्न केल्लो आनी तेन्नाचे समजुतेप्रमाण 'आई मी कवी होणार' अशी तांबडे मराठींत कविता बरयिल्ल्याची झिळमिळी याद जाता. उपरांत १९६६-६७ वर्सा जय गोमंत कलापथकांत गोंयकारांनो जायात जागे हें कोरस गावपाक स. उल्हास बुयावांच्या वांगडा गोंयभर भोंवलो, तेन्ना कविता-गितां, भाशणां-नारे, घोशणां आनी संघर्श अशा वातावरणांत पावलो आनी जनमत कौलाच्या वावराक विद्यार्थी पिरायेर शाळेक दांड्यो मारून झोकून घेतलें. तेन्ना कोंकणींतले म्हालगडे कवी स. मनोहरराय, स. शंकर भांडारी हे आमकां कलापथकाक मार्गदर्शन करताले. तांच्या प्रभावांतल्यान हांवेंय एक कोंकणी कविता रचली ती 'जैताची गुडी' राष्ट्रमतांत छापून आयली आनी पयलेच खेप कवी म्हणून पेपरांत नांव छापून आयलें. तो आनंद हांवें राष्ट्रमताचो तो अंक घेवन आल्मेदा हायस्कुलांतल्या आठवेच्या वर्गांत मनसोक्त मनयलो. पेपरांत कविता छापून येवप ही केदी गर्वाची खबर तें फक्त पयलेपणाची आनंद उपभोगपी भुरग्यांक जल्म दिवपी आवयकूच समजुपाक शकता. सादारण तीच भावना एका नव्या

बरोवप्याची आसता.

बरोवपी जेन्ना नांव कमावपाचो ध्यास काळजांत बाळगून वावुरता तेन्ना ताच्या वांट्याक अनंत आडमेळी आनी आडांबे ताजे प्रतिभेच्या घरा-दाराक नियतीन सुद्दा घाल्ले आसतात. तातूंत हांव तर अशा घराब्यांतल्यान आयिल्लो ज्या घराब्याक ना कसली सभ्य संस्काराची परंपरा ना कसले आचार विचार. बापूय शेतकार. आजे-पणजे कुळवाडी. शेतां-भाटां कसपी, रानावनां भोंवपी, दोंगरा - तेमकां आनी मळे कुळागरां शिपपी. दायज आसलेच जाल्यार तें असलें कृषीप्रदान शेतकऱ्याचें, साहित्य, लेखन, वाचन, चिंतन हांचो खंयच लागी-पयस वास घरांत नाशिल्लो. ना म्हळ्यार बापोलयो मात्सो धर्मीक वा देवदेवसपणांचो भोक्तो. दर्यार भोंवपी व्हडेकार. तो स्वामी सिद्धारुढाचो भक्त, म्हणल्यार ॐ नमः शिवाय हो मंत्र सद्धा म्हज्या घरांत घुमतालो. सिद्धारूढ चरीत्र श्रावणांत वाचतालो. ह्या शिवाच्या भक्तान म्हाका शिवा केलो, पूण खऱ्या अर्थान तसो हांव दास केन्ना जालो ना. देव धर्मा विशी मोग दिसलोना. देव ही एक मनशाली निर्मणी. मनशाक हे कित्तें ते कित्तें - कशे हे चवकशेंतल्यान जाप आयली ती म्हळ्यार देव, आनी उपरांत भजन - किर्तना जावं धर्मीक साहित्याचेंय संस्कार अशें जाले ना, संस्कार जाले ते फक्त विचारांचे. हे कशें, ते कशें, अशेंच कित्याक, तशेंच कित्याक अशा विशयांचेर चिंतून बरोवंक लागलो, आनी ताजोच प्रभाव मागीर लेखनाचेर पडलो. ताजेंच फळ म्हणल्यार सुख दुख्खांचेर हांवे केल्ले ह्या कवीता संग्रहांतलें भाश्य आनी हेर कवितांनी दिसता ते सगळ्या विशयां वयलें प्रसवण.

तशें कविता लेखन अदींमदीं चालूच आसलें. उमाळे येताले वताले, केन्नाय कागदार उतरताले. पूण कागदां हांगा थंय आसतालीं. तीं एकीकडे घालप केन्ना जमलेंना, वो परत-परत कॉपी करप, सुदारप, शुध्दलेखन करप हें आयजूय बेजार कसो दिसता. सगळें लेखन पयल्या हाताचें लेखन. कॉपी काडलीच जाल्यार ती दुसऱ्यान. ही गजाल कथा लेखनाचीय बी. हो सभाव आजून बदलूना. आतां तर शक्यूच ना. जशें येता तशें बरयलां, कवितांनी सुदारप म्हणटा ती करप म्हळ्यार कविता घडवप आनी जी कविता घडयता ती कृत्रिम वो आर्टीफिशीयल अशें

म्हाका दिसता. उत्स्फूर्त कविता ही खरी मनाचे खरीची प्रतिभा अशें म्हाका दिसता. ह्या संग्रहांतल्यो चड्श्यो कविता जश्यो आयिल्ल्यो तश्यो बरयिल्ल्यो. दुख्खाच्यो कविता तर एका बराबर पावस कश्यो घसघश्यांनी आयिल्ल्ल्यो. केन्नाय जेन्ना म्हजे खातीर काव्यांचो मिर्ग लागता तेन्ना म्हज्या आंगणांत उटंगाराचो पावस कवितांनी गावपाक लागता. पूण ह्या पावसाक मुठींत धरप केन्ना शक्य जालेंना. बांद सोडच सादी मेर घालपाक जमलें ना.

पूण मेर, बांद आनी धरण हांचेमदीं एक आडांग घालपाची सुबुद्ध आमच्या सुफलाक फळ्ळी आनी रूद्रा प्रकाशनान सार्थ–दुख्खार्थ ह्या म्हज्या पयल्या कविता झेल्याक वोंवळांनी घुस्पायलो. आमचे इश्ट रूद्रा प्रकाशनाचे जाळवणदार डॉ. प्रो. रूद्राजी गायतोंडे हांच्या उपकारांत रावपाकूच जाय. ते भायर आमचे इश्ट गौरीश वेर्णेकार, चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार, शब्दांक जुळोवपी ज्योती गांवकार, पद्मा प्रिंटर्सचे राधेश वर्टी हांकां धन्यवाद दिवपाकूच जाय. तांणीच हो म्हजो कविता संग्रह तयार केलो आनी म्हाका असो नांवाचो कवी केलो. आतां फुडलें काम काव्य रसिकांचें, वाचकांचें, समिक्षकांचें, टिकाकारांचें.

– एन. शिवदास

दुख्ख कोणाक पेलना
दुख्ख कोणाक सोंसना
दुख्ख कोणाक रूचना
दुख्ख कोणाक मानना
दुख्ख कोणाक चुकना.

* * *

दुख्ख कोणाक अर्धांग
दुख्ख थोड्यांक पुर्णांक
दुख्ख समेस्तांक सर्वांग.

* * *

दुख्ख एक मोड
मोडणां-मोडणां वयलें
दुख्ख एक खोड
गळ्या-गळ्यांतलें.

* * *

दुख्ख कितलें कोडू
दुख्ख कशें सोडूं?

* * *

दुख्ख एक मोग
दुख्ख सुखाळ भोग!

* * *

दुख्ख एक रूप
दुख्ख एक स्वरूप.

* * *

दुख्ख दिसना
दुख्ख हांसना
दुख्ख कुरूप
दुख्ख एक रूप.

* * *

दुख्ख गीत
दुख्ख नीत
दुख्ख प्रीत
दुख्ख व्हींत.

* * *

दुख्ख एक दडक
श्रावणांतली.

* * *

दुख्ख?
दुख्ख म्हज्या
कर्तुबांचें फळ.

* * *

दुख्खाचे मोर
जंय नाचले
त्या रानांत
वसंत सुवाळे
चंवरून फळ्ळे.

* * *

दुख्खाक
ना तागडी
ना लांबाय
ना रूंदाय
वता थंय बंदी!

* * *

एक दुख्ख वशाचें
एक दुख्ख कुशाचें
युगान युगां
अशेंच चलपाचें
दूख निरंतर
सासणाचें.

* * *

सूख जांग दाखोवन गेलें
दुख्खान आंग पिकोवन व्हेलें.

* * *

दुख्ख कशें हालना
दुख्ख कशें धोलना
दुख्ख कशें झरना
दुख्ख कशें विरना
दुख्ख पाशण शिळा
दुख्ख अनंत कळा.

* * *

दुख्ख एक नाड
दुख्ख वसाड
दुख्ख वशाड
दुख्ख नाशाड
दुख्ख माथ्यार
आसमंत.

* * *

दुख्ख सुकती
दुख्ख भरती
दुख्ख जोरगत
पुनवेची –
दुख्ख बुट्टी
दुख्ख बोंब
जळींमळीं.

* * *

दुख्ख वाट
दुख्ख नाट
दुख्ख लाट
दुख्ख काट
दुख्ख म्हजे
जिणेची वयवाट.

* * *

दुख्ख एक प्रसंग
अथांगाचो थाव घेवपी
दुख्ख एक संग
जिणेचो अर्थांग.

* * *

पोसोभर दुख्ख
देखतां देखतां
सोपोभर जालें
असुदाय थंय
सूख विसावलें
धन्य-धन्य.

* * *

कोण दुख्खाक वळखना
दुख्ख कोणाक विसरना.

* * *

सटये रातीं
लायल्यो ज्योती
लख्ख उजवाडांत
उबें; दुख्ख म्हजें सांगाती.

* * *

कोणें केली करणी
दुदा पेल्यान भरून दिली
दुखदेणी सुखा फेणी.

* * *

दुख्ख अशें जळतें रावचें
काळजाच्या सरणार
ताचो भगभग लागू
दर एका मोडणार
पावला पावलार.

* * *

दुख्खां तुजें चरण
तुजें सरण
कोणाक मरण
कोणाक वण वण
सासण.

* * *

सहस्त्र हातांनी
वेंगायलो
माडा येदो वाडयलो
दुख्खान म्हज्या.

* * *

तांणी म्हाका व्हेलो
भरपूर दुख्ख दिलें
तांचे करणेचें दान
कशें मोन्यांनी घेतलें
हांव गिरेस्त आयज
दुख्ख म्हजें दायज.

* * *

दुख्ख एक मोग
दुख्ख एक भोग.

* * *

दुख्ख एक कूप
सुखी मळबांतलें.

* * *

दुख्ख....
दुख्ख अंतरात्माचो उलो.

* * *

भिंगर भिंगर
झुंबर
देग तशी भरजर
सप्तरंगी
दुख्ख म्हजें
जिणेक सत्य झालर.

* * *

दुख्खाचो चोरू
सुखाचें रोट
कोणय घाल
थंयचो राखणदार
बसून भरता पोट.

* * *

दुख्ख एक सूख सुवाळो
हुर्यो.....
वेलकम.....
लाफ......
मॅरी.....
खावो पिवो
मजा करो!
सेलेब्रेट करो.

* * *

दुख्खा! दारांत उबें?
हुंबरो हुपून
भितर सर.
दुख्खा भितर आयलें
आयिल्लें तशें
हुंबरो हुपून
आतां भायर सर.

* * *

दुख्ख दारार दरवटो
दुख्ख तारवार तारवटी
दुख्ख सर्वव्यापी
दुख्ख पाक्यार पाकाटो
दुख्ख तिट्यार तिटो
दुख्ख नाचता
एकलो थोटो
देव कशें!

* * *

दुख्ख कर्माचें फळ
दुख्ख कळकळीची कळ.

* * *

एक सांजवेळ
उदास.....
दुख्ख कशी.

* * *

दुख्ख दुख्खांत आदार
दुख्खाविणें निराधार
दुख्खाक म्हजो येवकार...

* * *

दुख्ख पिडा पीड
दुख्ख नाड
दुख्ख एक माड
सूख सावळेचो
दुख्ख आशाढ
गर्भार पावळेचो.

* * *

दुख्ख महासागर
दुख्ख सागर
दुख्ख एक नगर
कसो राव
दुख्खा बगर?
दुख्ख सर्वांग सुंदर!

* * *

दुख्ख एक रात
भर दिसाची.

* * *

वगीच कोणें तरी म्हळां
दुख्ख पर्वता येदें
सूख कणां तेदें
मेजूंक गेल्लो तेन्ना
शंबरांतले णव्वद हांसताले
फक्त धा जाण रडटाले.

* * *

दुख्खाचो बापूय
दुख्खाची आवय
दुख्खाचीं भुरगीं
दुख्खाचीं नातीं
शेकीं कितें?
सगळी अंती माती.

* * *

मोगाळ दुख्खा
पत्र पावलें
येता म्हळा तुवें
केन्नाय येवचें
म्हज्या काळजांत रावचें
जमता जाल्यार
सुखाचें जावंचें.

* * *

दुख्ख केन्ना हांसता
दुख्ख केन्ना रडटा
दुख्ख केन्ना फसयता
तें हांसयना
तें रडयना
दुख्ख स्थीतप्रज्ञ
इकार विकार
साप्प निर्विकार.

* * *

दुख्ख खंय सांगून येना
दुख्ख आपलो पत्तोच सांगना
पत्तो कळिल्लो जाल्यार
खूब जाणां फावोर लावपाचें
आयज नाका फाल्यां यो
इतले तरी विनवणेन
आयचें दुख्ख टाळपाचें
बरें केलें दुख्खा
भावरूप घेतलें तुवें
सुखा भशेन!

* * *

दुख्ख कितलें खोल
घोल घोल
घोलींतल्या भुंयरांत
सुखाचो बोल.

* * *

दुख्खा
काळोख खरो
उजवाड खरो
सूख खरें
दुख्ख खरें
नेमकें कोण बरें
दुख्खाच्या गर्भात
सुखाचो जल्म
दुख्खाच्या जल्मांत
सुखाचो गर्भ
सगळेंच परवालंबी
कोणूच ना हांगा
स्वावलंबी.

* * *

दुख्ख मेजपाचीं मापां
मनशाचीं पापां
काय सुखाचे काणयेचीं
आमीच केलीं कापां
पाप पाप न्हय मूं?

* * *

दुख्ख म्हळ्यार निसर
बुळबुळीत वाटेर
दुख्ख एक विसर
काळाचे विटेर.

* * *

दुख्खाक सुखाची नसाय?
काय
सुखाक दुख्खाची नसाय?
दोगांचेरूय आसूं
एकामेकाची सासाय.

* * *

दुख्खाक वर्णभेद बादता?
वर्ण ब्राह्मणागेर कसो?
दुख्ख क्षत्रियांक भिता काय?
वैश्यांकडे वाटपण करता काय?
शुद्राक हुंबऱ्या भायर दवरता
दुख्खाची जात-कात कितें?
पंथ खंयचो धर्म कोण?
चड करून
दुख्खाचो धर्म हिंदूच आसूंक जाय
दुबाव खरो जाल्यार पुरो.

* * *

दुख्ख एक चिंतन
आयिल्लें चिंतेचें
दुख्ख एक प्राक्तन
भंगिल्ल्या चित्ताचें.

* * *

म्हजी आवय गेली
ती खबर हांवें
दुख्खाक आंकाताळ्ून
रडत रडत सांगली
तेन्ना दुख्ख
शिंवासनार बसून
हजारांनी दुख्खांक
थाथारतालें
मर्दी मर्दी पाचारतालें
हाका ताका सांगतालें
दुख्ख कोणा चुकना
दुख्ख कोणा सोडिना
दुख्ख हें चिरंतन सत
दुख्ख हें एक तशें
मनशाल्या मनांतलें मत
खऱ्यांनीच दुख्ख हें मत काय?

* * *

दुख्ख सांगता
ताची याद नाका
इल्ल्याश्या घायांक
'दू' च्या जाग्यार
'सु' घालात
सूख दिसतलें.

* * *

एके प्रियेशीन मोग केलो
एका आवडीच्या प्रियकराचेर
एके प्रियेशीन भोग घेतलो
एका निवडीच्या मोग्याचेर
दिवपाचें सगळें दिलें सूखभर
प्रियकराची जात समजली
तेन्ना प्रियेक दुख्खां आठवलीं
प्रिये नेमको कोणाचेर
मोग तुवें केलो?
जातीचेर काय व्यक्तीचेर?

* * *

दुख्ख देवळांतली घांट
कानाकडे किणकीण
काळोख भिणण गर्भकुडींत
वात तेवता मिणमीण.

* * *

दर एकलो
सुखाच्योय दर्दी
ताका
दर खिणां
वता थंय
दिसता दुख्खाची गर्दी.

* * *

दुख्ख म्हळ्यार
आकांतातलो आकांत
दुख्ख वेळ सरल्यार
सामको शांत शांत.

* * *

दुख्ख एक सावळी
भर दनपारची
हय, न्हय शी
उटंगाराच्या पावसांतली.

* * *

केन्ना दुख्ख
गोड गोड रोस
केन्ना दुख्ख
फुलांचो घोंस
सोस रे सोस
दुख्ख सोस

* * *

दुख्खाक कारण
आमचें मरण.

* * *

दुख्ख म्हणटा
मनीसच ताज्याच कर्तपांनी
ताका आपयता
दुख्ख मागीर रावता?
तें मनश्याच्या
आपोवण्यांक मान दिवन
मनश्याकूच भिडटा.

* * *

केन्ना केन्नाय
दुख्ख हो निखळ आभास
मनाच्या गर्भात जल्मले
घडणूक नाशिल्लें
घडणुकीची मनशान केल्ली
भिरांकूळ कल्पना!

* * *

भिरांकूळ कल्पना
कशीच सोडिना
घट्ट धरना मना
मनीस मात
कांयच घडचे पयलीं
चिंतनानीच
चिते मेरेन पावता.

* * *

मनशाची करणी
सुखा भरणी
तशी
मनशाची कुकरणी
दुख्ख भरणी.

* * *

दुख्ख भूल
दुख्ख न्हय गा दुर्गंधी फूल
वो भगभगत्या उज्या चूल
दुख्ख न्हय गा मस्ती धुंदी
वो मुक्त जिणेची बंदी
दुख्ख म्हळ्यार
सूख कळनाशिल्ल्या
अतृप्त आत्म्याची निखटी भूक!

* * *

दुख्खा तुका हुनहुनीत येवकार
दुख्खा तुका म्हजो
साश्टांग नमस्कार !

* * *

दुख्खान येवंचें
गोपांत रावंचें
अळंग भिडचें
जाय तशें रावंचें
मोरपंखी कुरवाळचें
चिवचे-पिवचे
घटाघट सगळे
घट अमृताचे
तशें दुख्खय मृगजळूच
सुखाच्या किर्णाचो सळसळ
क्षितीजाकडच्या मळबादेगेर
निर्विकार आनी निराकार
दुख्खा तो साक्षात्कार
वा अनामीक सुखाचो येवकार?

* * *

खूब आयला कली हालीं
सांवार आनी सुनामी
सैमाचेर बलात्कार
तेन्ना दुख्खाचो हाहाकार
तरूय मतलबी मनीस
निर्लज्ज कसो
करीत सुटला संहार.

* * *

हांव तो दुख्खाचो बापूय
म्हज्या दुश्ट करण्याचो गर्भ
म्हज्या भोंवतणच्या कळमेंत
णव म्हयन्याचो जाला
तेन्ना खूब उसरां होलमलां
ह्या पोराक हांवें जल्म दिला
हांव खुद्द दुख्खाचो बापूय!

* * *

पाड पडिल्लें दुख्ख
विकतें पसऱ्यार मेळिल्लें
जाल्यार म्हाका स्मगलिंग
करून दुख्ख दुस्मनागेर
धाडचें पडचेंच नाशिल्लें
दुख्ख पावना, दुस्मान सोंपना.

* * *

दुख्खाच्या आरशात
हांवें म्हाका पळेलो
आनी म्हाका म्हजो चेरो
सुखाचो पावडर मारून आसा
हाचो भास जालो
खिणभर हांव दुख्खाक विसरलो
दुख्खा गुन्यांव भोगोस.

* * *

जांका कोणा कोणांक
दुख्ख मनोवपाचें भाग्य गावलें
ताणीं तें तरेतरेन मनयलें
कोण स्वता रडलें
कोणें रडपाक कळ्ळेलां म्हण
भाड्याचे रडपी हाडले
लग्नाक वाजपी हाडचे तशे
थोडे नाटकांत पार्ट करतना
आवयच्या मड्यार रडले
तेन्ना भायर माटवांतूच
जायते जाण खऱ्यांनीच रडले
तांणीय बी पोटभर रडून
नाटक यशस्वी केलें
मनशान दुख्खाचें नाटक
ताणेंच तें बरयिल्लें.

* * *

बिये बिये बेगी किल्लय
कोंब फोडून
रोपयेक फुलय
रोपये-रोपये बेगी उलय
पोल काय पोटूर
तितलें म्हाका दाखय
पोल 'तो' आसल्यार तिगय
पोटूर 'तें' आसल्यार व्हळय.

* * *

वण्टीवयले फास्केंत
भांगराचें रूप
काळजाचे चौकेत
त्या रूपाचो धूप
दर एकल्याचें दुख्ख
स्वरूप आनी कुरूप.

* * *

देवळांतल्या भटान
देवाक भश्टीलो
असो आरोप करून
म्हाका गर्भकुडींतल्यान
भरभरीत भायर हाडलो
हें दुख्ख न्हय
देवान सगळें मुकाट्यांनी
पिंडीकेचेर बसून मोन्यांनी पळयलें
तेन्नाच समजलें
देव खऱ्यांनीच भटाचेर प्रसन्न.

* * *

ही दुख्खाची सरवळ
ती सुखाची सरवळ
सुखाचे सरवळींत देवाचे लोक
दुख्खाचे सरवळींत दैत्यांचे लोक
दोनूय सरवळी मर्दी
सज्जनांचे मेकळे चौक.

* * *

दुख्खाच्या तळ्यांत
बुडून मेले
ते सगळे म्हारू जाले
सुखाच्या मळ्यांत
न्हिदून गेले
ते सगळे देव जाले
हे सगळे निश्कर्श
खंयच्या ब्रह्मान काडले?

* * *

भर दनपारचें रखरखीत दुख्ख
सुखाचे सावळेक विसरून
माथ्यावयल्या सूर्याकूच म्हण
वोकून उडय तुजो लावा
भाजून म्हाका दाखय
दुख्खाची देख घेवन चलपीच
सुखाचो इतिहास बरयतलो
रखरखीत दुख्खावरी.

* * *

सुर्याच्या नाड्यार
पुनवेराती चलता
चंद्राचे गार्डे
दर्याच्या ल्हारार
व्हलयेबगर
व्हांवता तारयाचें व्हडें.

* * *

म्हजीं थिकां
वज्र दुकां
दुकांचे मणी
सांगत सुटल्या
म्हज्या दर एका
दुख्खाची काणी
ते काणयेंतलो
हांव आनी तें
आसात राजाराणी.

* * *

एक आलतड
एक पलतड
आलतडी पलतडी
तुज्या पावलांक गो
आसा एक
धाकटुली आडी
आडयेर बाये लकशी पडशी
पडल्यार ना जातल्यो
दोनूय तडी
उस्कुटून माणसुकेची
पवित्र घडी!

* * *

दुख्ख एक प्रवास
उबगणीचो
दुख्ख एक स्वास
जिणेचो.

* * *

दुख्ख खंय लिपलां
दुख्ख कित्याक तापलां
नक्कीच कोर्णे खंय तरी
निश्पापाचें काळीज कापलां.

* * *

पेट्टो दिवो तूं पालयता
तेन्ना भोंवतणी
गुपाट काळोख येता
सुखाक तूं धांवडायता
तेन्नाच दुख्खाक
आमंत्रण पावता.

* * *

उमार्णे समजना
जाण्टेल्यांच्या मर्णान
आशिल्ल्यांक दुख्ख जालां
काय मुक्त जालें म्हण
मन तार्चे शितळ जालां
पूण मर्णाच्यो भोगावळी
मनयल्या बगर
मर्णाक अर्थ ना.

* * *

कोणें कासादोरान
बेणिल्ल्या रानांत
दुख्खाचें कांस केलें
रानडुकराचें मांस कशें
ताचे वांटे घाले
सुखाची जोड करूंक
कासादाराचो एकूय वांटो
आजून कोणें विकतो घेवना
कासादोराचें दुख्ख
कुसत चल्लां
ताका सुखाची हिंवसाण येता
घडये
त्या दुख्खात
सूख आसुंये.

* * *

दुख्खाचो मोटो भूंयकाप
जालो जाल्यार किते घडटलें
सगळें ब्रह्मांड खिळखिळें जातलें
मोडटलें, कोसळून मातयेभरवण जातलें
काय धरणेचो गर्भ फुट्टून
लावा रोसांत
दुख्खाचें सूख कमल उमलतलें?
सैमाच्या चिरंतन सत्याच्या
पाकळ्यांच्या – पापण्यांचें.

* * *

कितलेंय झेजूं
फोटवांतल्यान तांबडे रगत रडूं
त्या तांबड्या रगताक
दुकां म्हणपी भक्त
ह्याच संवसारांत
आसूंक जाय
ना जाल्यार
हो संवसार कसलो?

* * *

सूख ही श्रध्दा
दुख्ख ही अंधश्रध्दा
धगधगत्या
मनशा काळजांत
भयगंडान
सद्दां पुजल्या.

* * *

लागीं लागीं पावला
सुर्या अस्ताकडे
चंद्र जल्माकडे
उजवाड काळोखाकडे
दुख्ख सुखाकडे
सूख दुख्खाकडे
अशें हें हांगा
घडत आसा आडेकडे
मनीस अंताकडे.

* * *

गणपती दूद पिलो
आनी बेबदो सोरो पिलो
फरक कितें?
भक्त पुजेक
सोंडींत दूद चमच्यान घालतालो
ताचो वावर मात
गणपतीन वाटयलो
हय, खंय तरी
उबंतर पोर
दुदा थेंब्याक आशेल्लो
पूण हाका
चमत्कार कोण म्हणटलो?

* * *

हनुमान जयंती
वो रामनम मनोवंची तशी
दुख्ख जयंती मनोवंची
मनशां येतलीं हांगा
तेन्ना
सुखांचें अस्तीत्व
ना नपय जातलें
पूण ही सुरय फट
कोणाक सांगता?

* * *

मोराच्या पिसाऱ्यातलें
एक लेगीत पाक
कोचून काडटकच
मोराकूय दुख्ख जाता
चोरून हाडिल्लें दिर्व
चोरून व्हरतकच
चोराकूय दुख्ख जाता
मोराचें दुख्ख
चोराचें दुख्ख
एकूच काय?

* * *

सूख पळोवपाक
दुख्खाचो हारसो जाय
दुख्ख पळोवपाक
सुखाची जाय खोल खोल नदर
सूख रूप कशें
दुख्ख कूप कशें
सूख-दुख्ख
सोदप्यांक लागचें
अशें पिशें - तशें पिशें.

* * *

दुख्ख
ही म्हजी वाट
तेंच म्हजो थाट.

* * *

काळजाचे कळमेंत
किलल्यात वाडल्यात
णव म्हयन्यांनी
जल्मल्यात
दोन जुंवळ्यो भयणी
कोण खंयची
वळखूंक येना तसल्यो
एकलेचें नांव सूख
दुसरेचें नांव दुख्ख.

* * *

धतरीच्या पोटार
उदेल्यात दोन रोयणी
सांतेरीच्यो
एक रोयण शांता
दुसरी रोयण दुर्गा
दुख्खाची जाल्या दुर्गा
सुखाची जाल्या शांता
दुर्गा दुख्खा
शांत सुखा.

* * *

सनातनी सूख
मानव घातकी दुख्ख
ब्रह्म सांगतल्याची भूक
समाजांतलो विखाळ वीख.

* * *

सूख आनी दुख्ख
जल्मतकूच
पाळण्यात घालून
जांणी तांचो बारसो केलो
आनी दोन अक्षरी नांवां
सुटसुटीत तांकां दवरलीं
त्या अज्ञात प्रतिभावंताक
म्हजो सलाम!

* * *

आतां आमी अशें करूया
हांव तुका
म्हजें इल्लें सूख दिता
तूं म्हाका तुजें
इल्लें दुख्ख दी
सूख दुख्ख आमी वाटुया
फुडली अनंताची
वाट सांगातान चलुया.

* * *

दुख्खाची पिराय
कितली कोण जाणां
हांव धादोशी
हांव सुखी
ह्या खिणां
इतलेंच हांव जाणां.

* * *

छळपी-केळपी
सोंसूं नज इतल्यो
दुख्खाच्यो कळा दिवपी
दुख्खान म्हज्या म्हाका
काळजांतल्या उत्फक्र्यांची
शताब्दी मनोवपाची
अस्मरणीय शक्ती दिली
दुख्खा धन्यवाद!

* * *

आतां हांव
म्हज्या ह्या शंबरींतल्या
दुख्खाच्या काव्यओळींची
सुखाची गवाय दिवन
भावभरीत समाधानान
ही शताब्दी मनयता
जय शताब्दी जय शताब्दी.

* * *

दुख्खाचें भिजलें रूप
आरपार मळबा कूप
धुक्याचो धूप
दरवळ्ळा मळबभर
किसां कशीं बारीक नक्षत्रां
धुंवरातलीं धुसर धुसर चित्रां
अशींच आसुंये
तुमचीं आमचीं पित्रां.

* * *

भक्तार्चे दुख्ख
देवाच्या सुखाक
काय
भटाचे भकीक?

* * *

सुखाखातीर
दर्या पोवून गेलो
पलतडी पावतकच
आलतडीचे देग सोडून
पच्छाताप करीत बसलो.

* * *

दुख्ख मुंगरला
सुखाच्या चिखलांत
पांय वयर सरना
दुख्खाक पर्याय ना
सुखाक दुख्ख उमजना.

* * *

काळखार्चे दुख्ख
उजवाडाक नसाय
उजवाडार्चे सूख
काळखाची सासाय.

* * *

दुख्खान येवचें
जाय थंय रावचें
म्हज्या काळजाक
दुख्खान जाय तितलें
मेळत थंय चिंवचें
अशें घडचें तशें घडचें
दुख्खांतलें सूख
म्हाका परत परत गावचें.

* * *

सकाळ धुक्याची
किर्णांच्या दुख्खांची
सुर्याच्या सुखाची
दंव दुकां निसरून पडचीं
म्हज्या गालांचीं
कापूस कुपां जावचीं.

* * *

साठी लेगीत
नटकटी
दोळ्याची आटी
नदर पटी
साप्प तरणाटी
आजून आंग शिरशिरी.

* * *

दर्या दुख्खान सुकला
सुर्या सुखान पिकला
भांगरा रोस
ल्हारांनी विकला
गिरेस्त कोण जाला
दर्या वा सुर्या?

* * *

तार्णे तार्चे दुख्ख
फक्त सांगलें
हांवें तें गायलें
अख्ख्या संवसारान
दोगांयचेंय आयकलें
आनी उत्स्फूर्त म्हळें
व्वा.. व्वा!

* * *

इतलें सूख
तितलें दुख्ख
मनशाची भूक
फक्त सूख.

* * *

मातयेचें दुख्ख कळपाक
झाडाचें मूळ जा
आवयचें वेंग भोगपाक
गर्भांतलो कोंब जा.

* * *

दर्याक आपले खोलायेचें दुख्ख
मळबाक उंचायेर सूख
दर्या तो संभोगी
मळब तें वियोगी.

* * *

इती दुख्खार्पणार्थ
शांत सुखाय
समर्थ-सार्थ
दुख्खाथार्य-सुखार्थाय
सासाय-सासाय
सासणांक.

# १. पयलें कवन

वयल्या दोंगरार
दनपारच्या पारार
रखरखत्या वता कडार
सुक्या सड्यार
काळ्या तळपार
रोयली हांवें मोगा वाल
वालीक म्हजे मोग जाय
मायेची सावळी जाय
हें म्हाका कळ्ळेंना
वाल बावडी वाडलीना
इल्ली लेगीत पालेलीना
तान-तान गायत गायत
मोगा वाल केन्ना गेली
तेंच म्हाका कळ्ळेंना.

## २. आमी

आमचे मर्दी येवंचें कोणें
आमचे मदल्यान वच्चें कोणें
माथ्या वयल्या पेट्टया होमखणांत
जळपी आमी जिते दाणे
आमकां कसली गा पर्वा
थेंबोभर थुंकयेची
अस्मितायूच जावन गेल्या
सगळ्यांखातीर जळपाची
जळून जळून गोबोर आमचो
जातलो जाणां
पर्वा ना पर्वा ना
जळून जळून सदांच गा
तुमचे मर्दी उरपी आमी
तुमचे मर्दी उरपी आमी.

# ३. नेट

ती म्हजी वाट
काटान काट
व्हांवता पाट
म्हजे जिणे थाट
कितें सांगचो
हांव गा जिखलों
खेळटना हो पट
हांव गा पेटलो.

## ४. समर्पण

तुजे खोल खोलायेंत
हांव म्हजो पुराय गेलों
धतरेचो खूंट
मळबाक तेंकलो,
कांयच कळ्ळें ना
एकामेकाचो आत्मो
कोणें कोणाक
केन्ना विकलो.

# ५. संघर्श परिक्रमा

अर्दी मर्दी अर्दी मर्दी
अर्शी केन्नाय लचांडां येवंक जाय
आडमेळ्या पावसा भशेन
सुकूंक पाविल्ले धर्तरीक
चरचरून तानसोर लागचो
तसो लचांडांचो जागोर
मनामनांत नाचूंक जाय
अर्दी मर्दी येवपी लचांडां
तुका याद करतात
आनी सादूरय करतात
शिटूक रावपाक
झुजा मळार
हो संग्राम सोंपपाचो न्हय
हो संघर्श सासणाचोच
ही गांठ घट काळजाक मार
आतां फाटीं सरपाचें ना
फाटीं केन्ना सरलोंच ना
संघर्शाचोय अंत आसा
पूण अनंताच्या अंतामेरेन
म्हणूंक जावचेंना
हें कालचक्र परतें परतें
घुंवत घुंवत थंयच पावूंक जाय
फरक इतलोच
परतून परतून संघर्शाची चूड
तुजे फाटल्यान
तुजे कुडींत
पेटत सद्दां उरूंक जाय.

## ६. आधुनिक कार्य

पयलें लूट लूट लुटपाचें
थळाव्यो कोप्रो उण्यो पडल्यार
स्वीस बँकेंत घालपाचें
वेंचणुको लार्गी येतकूच
सदळ हातान मजत करपाचें
समाज सेवकांचें सवंग घेवपाचें
देवळांक देणगी, कपेलाक कणगी
बेकार थवय कार्यकर्त्यांक घेवन
लाचारांक हाता वयल्या बोटान
हेरपाचें, तळटार तांच्या फाफुडपाचें
हातार दितां दितां मत मागपाचें
त्या विकत्या मतांनी वेंचून येवपाचें
परत तेंच दुश्टचक्र लुटपाचें चाटपाचें
फुडले वेंचणुकेखातीर
घुंव घुंव घुंवडायत रावपाचें
एदें व्हडलें कार्य मगा
आयच्या आमच्या राजकर्त्यांचें!

# ७. मन परिवर्तन

मरणावरीं थंड हें कोडसानकानाल
मध्यान रातीं एका विश्रामघरांत
कडक व्हिस्कीचो घोंट तरूय कडकडो
देखून उज्याच्या धगाक बसला

उजवाडांत चमचमपी चंदन
कांडान रचिल्लें शिवशिल्प
परके धाटणेंत घडयिल्लें पोरणें
जंगली घोड्याचें एक विचित्र चित्र
लाकडी वण्टीवयल्या घडयाळांतलें
सकनळी अंदिल्लें सवणें
ताच्या काळजाचे ठोके
खिणाखिणाक शेवटाक फिके

फांत्यापारार न्यायनितीचे राखणदार
गुन्यांवकारांक घेवन येतलो
आनी विखाळ म्हजो जीव
एकेच फांसाचे दोरयेन पर्जळीत जातलो

म्हज्या शिरंतरांतल्यान
व्हांवता एक व्हडलो नाग भंयाचो
हांव म्हजीच एकमुळ्यांनी करता राखण
लिपचोरयांनी असवडी

कितें म्हाका धरपाची संद दिवं
काय वीख पिवून जिणेचो अंत करूं?

## ८. भाट

शंबर निसांचें
नदर पावना तसलें
लांब रूंद व्हडलें
भाट पणज्यालें
म्हज्या बापायन पाडलें
फक्त भाटाच्या पाड्याचेर
अख्खें घर चलयलें
भाट बापायन वसयिल्लें
खण्णी नण्णी केल्ली
सावळ सारें
वयले वयर घाल्लें
म्हाकाय हाताक धरून
केन्ना तरी एकदां सांगिल्लें
पुता आज्या पणज्याचें
भाट हें आमगेलें
हांवें सांबाळ्ळां
तशेंच तुवेंय सांबाळचें
अशें सांगून भाट व्हडलें
केलें म्हज्या नांवार
भाट नांवार करीत सावन
म्हाका लागलो जुगार
एक दीस बापूय गेलो सर्गार
बापाय फाटल्यान
हांवें सगळ्यांक मारलें कोंक्यार
आनी भाटाचोच केलो जुगार
अख्खें भाट गेलें
आतां हांव मात हेडटा बेकार.

## १. प्रियेक

तुजे खातीर बदलचो
म्हणून बदलपाचो खूब यत्न केलो
आदर्शाच्या सगळ्या
संवसाराक पांयां पोंदां घालो
त्रैलोकय पळोवन आयलों
तुवें आतां मेरेन केल्ल्या
व्हड त्यागाचो हिशेब मांडीत
तुज्या सुखाच्यो कल्पना
आनी समाधानाचीं आवर्तनां
उगडास करून
फक्त तुजेरूच मोग करपाचो
तुका ह्या काळजांत पुजून
पूण तशें केन्ना घडलें ना
तुजी मूर्त केन्नाच घडलीना
तुज्या निस्सीम मोगाचो
दिश्टावो म्हाका केन्नाच जालो ना
तुजे खातीर हांव केन्नाच थांबलो ना
तिश्टलोंना, अडलों ना
वा म्हज्या अंतरात्म्यान
म्हाका केन्नाच जागयलो ना
प्रिये तेच खातीर हांव
तुजो केन्नाच जालो ना
हांव हांवूच उरलों
हांव म्हजेच खातीर रावलों
हांवें म्हजेरूच उपाट मोग केलो
असो हांव
तुजो जावन रावलो.

## १०. तुजे खातीर

थंय आशिल्ली
चोम्यांनी येवपी भिऱ्याची सर्त
तुज्या अथांग मळबांत
सगळो सागर आसलो अशांत
तरीय त्या मंद शुक्र ताऱ्या भशेन
हांव मात पयसुल्ल्या क्षितिजार
कातयां मर्दी उबो रावन
गोकुळांतलो कृष्ण कसो
सगळ्या गोपींक भोगतालो
आडवो उबो
तुजे खातीर बदलपाचो
एकटे खातीर जगपाचो
सगळें सगळें विसरपाचो
गोपांत घट्ट घेवन तुका
एकदां तरी कानांत तुज्या
ल्हवूच हांव फुतफुतपाचो
प्रिये हांव फक्त
तुजोच तुजो सासणाचो
सात जल्मांचो
चिरंतन अनंतभर
तुज्या म्हज्या
तृप्त आत्म्याचो!

## ११. शिरवाण

भर शिरवाणांतल्या दडकां दडकांनी
ओलें चिप्प जावन तुवें भिजत येवंचें।।धृ।।
धुंद लजत तुवें मंद हांसत येवचें
ल्हवूच येवन तुवें कानांत गुपीत सांगचें
ओलें चिप्प जांवन तुवें भिजत येवचें
मळबा कोराचो पाचव्या कोराचो
शालू न्हेसून पोलको घालचो शेरवडांचो
आनी चिप्प ओल्या ओल्या केंसांनी
जायांचो हातभर पोड मर्दीच खोवंचो
मेथयेन रंगयिल्ल्या तळट्या तळटांचेर
आनी घागऱ्यो बांदिल्ल्या पोंवट्यांचेर
काजळ काळायिल्ल्या दोळ्यां दोळ्यांचेर
पाझरून वचूं म्होंव ओंठां ओंठांचेर
भर शिरवणांत अख्खो सैम चंवरचो
ल्हंवेन ल्हंव शिरशिरून येवंचो
अवसर असो धुंद शिरवाणांतलो
परमळून येवंचो आनी परजळून वचचो
असोच शिरवाण जिवीतभर उरचो
दडकां दडकांनी येवंचो
मोर पाखांचो कुचो फुलार फुलचो
भर शिरवाणांत असो दिश्टावो जावचो.

# १२. आंकवार दुवाळे

एक आंकवार चली
आपले आवयसरीं आयली
आनी म्हणूंक लागली
आई, म्हाका रूच आयली
आवयन विचारलें
कसली गो बाय रूच आयली?
चलयेन लजत लजत म्हणलें
तोरां आनी चिंचे बोटां खावचेलीं.

## १३. गुपीत

काल जेन्ना तूं मेळ्ळें
एक गुपीत तुका
कानांत तुज्यो सांगचें आसलें
    सांगपाचें थंयच उरलें
    तुवें मनाक भुलयलें
    तुका पळयतां पळयतां
    सांगपाचें विसरून गेलें
काल जेन्ना तूं मेळ्ळें
एक गुपीत तुका
कानांत तुज्या सांगचें आसलें
मोगा म्हजें काळीज
तुका उकतें करचें आसलें
काळजा मखरांत
एक मूर्त पुजिल्ली
तुजी तुका थंय तूं
होरावंचें आसलें
तूं आयलेंच ना
येवचें पयलींच
खंयचे खंय
तूं अदृश्य जालें.

## १४. मोग गीत

दर्या देगेर बसून गायतां
तुज्या म्हज्या प्रिती गितां
दर्या ल्हारां हांसता खेळटा
माडां शेंडे हालता धोलता
आमच्या मोगा खबर गो
ल्हार-ल्हारांक सांगत भोंवतां
लख्ख सुर्या, पेटला दर्या
मोगा तळ्यांत उडकी मारून
दोगांय आमी तृप्त जावया
फायचो दीस येवंचे पयलीं
तूं म्हजें हांव तुजो
गवाय हाची जगाक दिवया
अंब्रवर मोग आमचो
तापिल्ल्या त्या खडपांचेर
किल्लत घालून पयस या
पयस या पयस या.

## १५. नांव

कितें तुका सांगचें आसलें
म्हाका सांगिनासतना कळ्ळें
रातीं तूं सपनांत आयलें
आनी गुपीत सांगून गेलें
कोणापासून बाये आतां
गुपीत लिपोवंचें
उकत्या मळार झाडापेडार
सगळे कडेन फांकारला
तुजें म्हजें नांव आतां
मळबा पार पावलां.

## १६. हें कोणा खातीर?

आमीच जर हांगा
नाच्च जाले
एकामेकांचें रगत पिवन
बेबदे जाले
आनी आमीच जर एकामेकांक
चांचावन चांचावन खाले
जाल्यार ते खातीर
आमी इतलेंय केलें
ते खातीर कोण रावतले?
आरे, सभाग्यांनो
आमी कोणा खातीर
आनी कोण आमचे खातीर?
आमीच बांदिल्ल्यो ह्यो बांदावळी
आमीच बांदिल्ले घुड आनी घुमट्यो
कळस आनी शिडयो
खुरीस आनी पुरीस
कोणांक फटोवया आमी
हें देवान बरयलां
तें देवान सांगलां म्हणून?
हांगा रणखेव खेळपाचोच
जर चेव आयला
आनी रानवट जनावरांकूय
लजोवपाची सर्त लागल्या
जाल्यार देव धर्माचेंच
नांव कित्याक घेवपाक जाय?

## १७. पवनां

रात जाली
हांवें म्हणलें
आतां पुरो.
खूब जालें
तिणें म्हणलें
तुवें म्हजें
मीपण चोरून व्हेलें.

सूर्य उदलो
म्हजे खातीर
भर दीस जालो
मध्यान रात
समजून मात
तिणें ल्हवूच
म्हजेर हात घालो
सुर्या बावडो
वगीच लजेलो.

आयज आमोरी अमुरपिकी
कित्याक कोण जाणां
तुज्या गालार खोल खळी
खळये घोलींत
हांश्याचीं किरणां जळींमळीं
शिंवर शिंवर
चोर्यांवशीं शिंवरली.

## १८. होमखण

उज्या आगटी पेटोवं दी
होमखणांत हुलपूं दी
उरिल्लीं गुलामपणाचीं काळजां
भूंय ही स्वतंत्र भारताची
गणतंत्र उरूं सासणाची

ही मुक्त भूंय माता
भारत भाग्य विधाता
जो पूत हे भुंयेर जल्मता
आपलो निजी स्वाभिमान जागयता
भारत मातेचें स्वातंत्र्य जपता

हांगा फितुरांक सुवात ना
हांगा परधार्जिण्यांक वाव ना
हांगा घरभेद्यांक माफी ना
हांगा जांकां भुंयेचो धेक ना
त्या देश द्रोह्यांक ही भूंय ना

गणतंत्र भारताची अखंड प्रतिमा
रगताच्या रंगान रंगयल्यो सीमा
तीन रंगाचो ध्वज हो
उंच हिमालया वरीं म्हान आमची महिमा
प्राणांचें तेल करून
पेटयत दवरूया स्वातंत्र्याचो आत्मो.

# १९. माती

जी आमकां
सगळें दिता
आमकां जल्मूय दिता
आनी मरणां उपरांतूय
आपल्या कुसव्यांत घेता
ती माती
ते मातयेक
आमी मातीय म्हणटात
ही माती
आमची माता
तिचें उदर
अफाट अनंत
खोल खोल
त्या उदरांतल्यान
पंचमहाभुतांचो जल्म
आनी ह्या पंचमहाभुतांचो
आपरोस हांव तूं
आनी हांव तूं मेळून
मातयेक कालयतात
कालोवन मातयेक
म्हजो तुजो आकार दितात
आनी करतात साकार
ह्या अनंताचें प्रतीक
ती प्रतीक मूर्त
मूर्त पुजेक लायतात
माटोळीक सैमाचें देणें
फळ फळावळ
आनी सगळें मळ
मातयेचें थळ.

## २०. जल्म

आमी हांगा जल्मले
जल्मुचे पयलीं आमी खंय आसले?
खंयच्या धर्माचे आनी खंयचे जातींतले?
खंयच्या पंथांतले आनी वर्णातले
तशे आमी खंयच नासले
देखुनच हांगा हे भुंयेचेर जल्मले
हें सत्य आमी कशें न्हयकारलें?

खंय जल्मुचें, खंयचे भुंयेर रावचें
हें आमच्या तुमच्या हातांत केन्नाच नासलें
भारतभुंयेंत जल्माक येवन
हांगाच जगपाचें भाग्य आमचें आसलें
हें भाग्य भोगतना राष्ट्र कशें विसरचें?
भूंय कशी भुलची?
भास कशी मारची
अस्मीता कशी सोडची
असली जीण तसली जीण
केन्ना तरी कळची.

# २१. एके मुक्तीचो ध्यास

म्हज्या मना भितर एक व्हड वड आसा
ह्या वडा पोंदा एक मसंड आसा
हे मसुंडींत नित्य नेमान
दिसपट्टी खिणां खिणां मडीं हुलपायतात
मडीं कोणा कोणाचीं म्हणून सांगूं?
प्रधानमत्र्यां पासून गांवच्या सरपंचा मेरेन
म्हज्या मनांत दिसपट्टे मरतात
केन्ना गांवांत रस्त्यार मेल्लें सुणें
काडपाक सरपंचाकडेन कसलीच
येवजण ना म्हणून सरपंचाक हांव मारतां
तर केन्ना काश्मिरांत चरारे शरीफ
दर्ग्यांतल्यान आकांतवादी सगळो
गोबोर करून पाकिस्तानांत असुदाय
पळून गेलो म्हणून
हांव प्रधानमंत्र्याचेर झॅड राखणेची
फळी मोडून फार मारतां
आनी कितें सांगूं म्हज्या मनांत
म्हाका जाय तसो प्रधानमंत्री खंवसता
आनी मागीर म्हज्या मनाचे मसुंडींत
रस्त्या वयल्या मेल्ल्या सुण्याचो
विलो लावपाक षंढ थरिल्ल्या
सरपंचाच्या सरणाचेरूच प्रधानमंत्र्याक
घालतां आनी एकूच मंत्र तोंडांत
पुटपुट्टां, असल्या निश्क्रिय
लोकांचें बेगीन जावं निसंतान.

## २२. तो

तो तुजे भितर
हांव ताचे भितर
खोल खोल
तो व्यापला
तो लिपला
जंय थंय
सर्वय
धायी दिको
चोर्यांवर्शी
तो सर्वव्यापी
निराकार निर्गूण
तोय तुजे भितर
रावला
तो तुकाय पळेता
दर पावला कणकणी
खिणां खिणां
स्वासात भरसला.

## २३. जाग

जेन्ना आमी पेटले
तेन्ना आमच्या धगान
झळपेल्ले जागे जाले
शिरंतरांतली निर्शेवणी
भिरकावन सगळे उठले
आनी हांगा पळयतां पळयतां
सगळ्यांचे काळजा आगटे
जावन चोर्यीवर्शी पेटत सुटले

अख्ख्या रानान पेट घेतलो
क्रांतीचे लोट पसरत गेले
खांची कोनशांनी लिपिल्ले
काळीं तोंडां घेवन उबे जाले
आमी तांच्याय मुखामळा वयली
सगळी काजळी पुसून
तांकांय लख्ख केलें

आयज इल्लें इल्लें सगळें बदल्लें
जिबे वयल्या उतरांनी
गळो सदळ सोडून
येवकाराचीं गितां आतां तेवूय
गावंक लागले गांवांगांवांनी
आमी हे फुडें गोरवां उरचीं ना
कोणाच्या पोशान
उदक आता पियेवंचे नात
आमी अशे पेटले देखून
हे सगळे नटले थटले.

## २४. ती

हांव एक रोमियो कसो
ते रंगेल जात्रेंत
उबो आसलों
भर गर्दैत हांव
येतल्या वतल्याक दिसतालो
जो तो म्हाका पळयतालो
हो तो अमको तमको
म्हणून जण एकलो
म्हाका बोट दाखयतालो
एकूण वातावरणांत
हांव सामको दंग जाल्लो
इतल्यांत तिणें म्हाका पळयलो
नदरेक नदर आपटली
दोळ्यांच्यो मलप्यो आनी
मनाच्यो कुपयो
अमृतान भरून गेल्यो
तिच्यो त्यो काळसार बटयो
तिचे ते धूंद गाल
तिचे ते दोळे तांबडे ताल्ल
आनी ते मादक ओंठ तिचे
खऱ्यांनीच हांव ते
भर गर्दैत सगळ्यां हुजीर
तिका भुल्लो
आनी तेन्नाच सगळे
भोंवतणचे गर्देक हांव विसरलों

कोणाचीच कसलीच भीडमुर्वत
धरी नासतना
हांव तिचे जादुई
करामतीन भूंय सपाट जालों
सगळी तनरी विसरून
हांव तिका भुल्लों
खऱ्यांनीच सांगता
हांव तिचोच जालों
तिच्यांत हांव पुराय कडलों
देठांतल्यान अचळय
चाफें झडचें तशें हांव झडलों
चडटां चडटां हांव पडलों
पडटां पडटां हांव सांवरलों
आनी तिका हांवें वेंगेंत घेवन
उमांव घेत विचारलें
हॅलो, तुजें नांव कितें?
तिणें म्हज्या केंसांतल्यान
हात भोंवडायलो
आंगार मोरपाखांचो
कांटो फुल्लो, हांव नखशिखांत
शिरशिरलों तेन्ना तिणें म्हणलें
म्हज्या मोगा, तूं कितलो बरो
मदनाचो पुतळो
तिचीं तीं लागोळपणां पळोवन
म्हाका आयलो कळवळो
ती म्हजी जाल्या
इतलें कळूनय हांवें
मारलो तिका दोळो

तेन्ना तिणें चक्क
रंगेल ओंठांत तांबडो मेथो
भायर शेंवटीत
आपलो भरजरी पदर
शेंवटून भायर मारलो
तेन्ना मुखावयलें दुख्ख पळोवन
ते कुडींत जेन्ना
हांव भितर सरलों
तेन्ना काळखांत
कोणूच दिसनासलो
भर काळखांत
कोणें तरी सांसपिलो
तेन्ना म्हज्या मुखार
लख्ख उजवाड जालो
भानार येवन पळय जाल्यार
दनपारच्या भर वता कडार
तिणें तिचो अख्खो जीव
लोंबकळायत दवरिल्लो
जिविताच्या वडा पेडार.

## २५. अणभव

अशें तुवें लागीं येवन
काळजा गोंडो असो
हालोवन धोलोवन
आनी सर्वस्व दिव्या भशेन
भास करून
नवी आस निर्माण केली
ते आशेर -
हांव इतलो तेंप रावलो
मात इतले लागीं आयिल्लों
इल्लो इल्लो पयस जातां
हो अणभव वेगळोच
तूं लागीं आयलें
तेन्नाय पयसूच आसलें
हांव मात समजल्लों
म्हाका मळब लेगीत
लागीं लागींच जालां
खऱ्यांनीच हांव
म्हजे धतरिचेरूच आसां
म्हजे हे
पाय मातयेचे
तेंच खरें.

## २६. सपनां

भांगरा किर्णांची
हळडुवी सकाळ केन्ना
जाली तिच्यो यादी
अश्यो अर्दींमर्दीं
भर दनपारचो रखरख
आंगभर सर्वश
सुर्याचे सुर्या आसलो
मन आनी कात चकचकपी
तेन्ना कोण कोण आयल्लो
तूं मात आयलों ना
आतां दनपार सोंपून सांज जायत आयली
अशा मंद पावलां वाटेर
तुवें कित्याक शिंपडायलीं
भलतीं सलतीं सपनां
कारण हीं सपनां
खऱ्यांनीच सपनांच उरतलीं
गणितूच तशें आसा
मनां तरणीं खरी
आंगान केन्ना कात झडयली
रूख पालोवचोना
पानांय आतां बावूंक लागतलीं
पांचवी केन्ना जावंची नात
पांचव्या पानांच्या सपनांनी
मोर केन्ना नाचचो ना
रानां ह्या मनांत
तशीं केन्ना फुलून येवंची नात
देखून तूं हांगा आसून
नासून आसा म्हज्या मनांत.

## २७. पिसो

म्हाका पिशें लागचें
अशें कशें दिसचें
पिशें तेंवूय तुजें
तुज्या सपनांचें
केन्ना तरी पिसो जावंचो सो
जायते फावट दिसतालें
तुजें नांव घेवन
गांव गांव भोंवचो
आनी पोरां तारांनी
तुज्याच नांवान चाळोवंचो
वयले ताराक
मागीर म्हाका नाटकी
राग येवंचो
रागान आनी मोगान तुज्या
पोरां फाटल्यान धावंचो
वयर गरादेर येवन
घरांघरांतल्यान
दर एकल्यान म्हणचें
हो पळय तो पिसो
ताका सोदीत भोंवता
अशा पिशेपणाक
जाय आसता भाग्य
अशें पिशें हेंवूय एक
नवलूच हांगाचें
अशें नवल
घडपाची संद म्हाका
तुकाच लागून मेळ्ळूं.

## २८. याद

रात बरीच जाल्या
यादीर याद येत रावल्या
कितली धांवडायली
सारकी धांवार बसल्या
कशी धांवडावं हे यादीक
यादी येवं नाका गे
म्हज्यान सोसूं जाय ना
आतां फाल्गून लागलो गे
ये यादी हरशी तूं म्हेळी
आतां इतली जिवी कशी?
तुजें तार्जें टवटवीतपण
अर्देंय म्हाका ना
तुजे यादीविणें
एकूय खीण वचना.

## २९. हांव उलयतां

धर्तरेचे सुपीक तांबडे मातयेचेर
शांततायेचे नोबल पुरस्कार
विंगड विंगड पंगडा विरयत जाल्लीं संमेलनांय
म्हाका बेस बरीं खबर आसा
कोण सांगतलो
ह्यो सगळ्यो वायट बऱ्यो घडणुको
नवी मानव संस्कृताय निर्मिता
नवो समाज निर्माण करता
काय
तिसऱ्या भिरांकूळ महाझुजाची
तयारी करता?
कितेंय आसूं
हार तुरे घेवन ओळीन उबे राविल्ल्या
लोकां मदल्यान तांकां
रथार बसोवन हाडटले
तूं कसो आसा?
हांव बरो आसां
म्हजी आतां तांकां लागून
तकली उसळना आनी
हाचे फुडेंय उसळचीना
हांवें एक सोबीत घर बांदलां
देखून सगळें बेस बरें चल्लां, सगळें तयार मेळटा
खोशयेन हांव टाळयो मारतां
खंयच्याय एका नागरीकावरीं
हांव हांसतां
नाच जाल्यार रडटां वा उलयतां
वेळ येता तसो
सूप धरता.

## ३०. कूड

एका सुसेगाद मनशाभशेन
आपली गोमटी कापची
नाच्च जाल्यार नाक कट्टेंत बुडोवचें
सगळे मेळून एकठांय येवन
फोगोट्यो पेटयेत दिवाळी मनयतात
सभा-संमेलनांक वचून
भाशणां ठोकतात
थाराव घेतात
आनी संस्कृतायेचो बावटो आमचो
वयर हुबयतात
आमी देश चलयतात
मेल्ल्या घोड्याक लगाम घालून आमडितात
आवयस्! सगळी रोगेली ही कूड
लासतात, हुलपतात म्हर्जी शिरंतरां
चिव्रिकाच्या पिशोलांतली दिपकावपी
समानता, इश्टागत आनी मेकळेपणाचीं पडबिंबां
रूखा-रूखावळीर हुमकळूंक दी
वण्टी-वण्टीचेर बरोवं दी
ताची इत्सा खबर ना
पूण ताका तसोच जियेवं दी
मनशां मनशांच्या काळजांतल्यान
उपाट काट्यांनी व्हावूं दी
मनीसजाती वयलो मोग
धगधगत्या उज्याचे इंगळे.

## ३१. भूतकाळी खीला

याद जाता -
कुबेराची कोठये कूड भरिल्ली आसतनाय
जायते खेपो हांव पोट तेंकोवन न्हिदिल्लो
भूंयभर पसवल्ल्या
मूळ ते तेंगशे मेरेन
भुसभुशीत मातयेंत चिकटल्ल्या
उशीकुणग्या भशेन
पोटांत उदकाचो थेंबूय नासतना
पावसाच्यो दडको कश्यो
दोळ्यांतल्या दुकांक
ल्हवूच जीब भायर काडून लेव्हतना
पोटांतले पांय काडिल्ल्याचो
वयल्या वयर भास जातालो
आनी तितलोच धादोस जावन
कूस परतून,
भूक भागिल्ल्याच्या खोशयेन
लांब-लचक हुस्कारो सोडटालों
आनी कोलवाच्या पाख्यांतल्यान
म्हजे मदलें आनी मळबा मदलें
अंतर मेजतालों
आयज हांव
मळबाचे वाटेर पावलां
म्हजे चालीची नोंद दवरतल्या काळाक
म्हजी ही चत्राय.

# ३२. गोंयचो राजकीय चिखलकालो

बरें जालें खूब उसरां जायना
आयज तुमी जागे जाले
तुमच्या धोंपरांतलें तकलेंत पावलें
आशा करूया आतां तरी
इल्ले तरी तुमी शाणे जातले
फाटलें कशें आमी विसरतले
फिरंगी वचून तिरसुवाद आयले
तिरसुवाद हे आमगेलेच सोयरे दायरे
तांकां कोण म्हणूंक लागले
आमचेच ते जातीपातींतले
आनी भोवजन समाजांतले
देखून आमीय म्हणलें पाडपडूं
आसना थंय बोंडो आनी धोंडो
चलयना थंय बार आनी तार
घेना थंय मटको आनी फटको
आमचो जातकूच जालो
अशे तरेन भोवजनांचे भाऊ
सत्तेर पावले आनी जाले खाऊ
पणजेच्या सेक्रेतारींत पयलेच पावले
बारांत कोपांत पाव-फूल घालपी
विधानसभेंत पावतकच बरेच गडबडले
तांणी विधानसभेचो तिठो केलो
कोणें बाजार केलो तर कोणें कालो
श्री गणेशा चिरूंक नकळो तो
शिक्षण मंत्री जालो
गणू-शाणू पोकू धाकू शेकू

सगळे मंत्री जाले
आनी मिनाची खण पोखरची
तशी सरकारी तिजोरी
पोखरूंक सगळे उसरपत घेनासतना
सायकलीन काल पयर भोंवताले
ते मोटारांनी भोवूंक लागले
तिरंग्याचो अर्थ खबर नाशिल्लो
तिरंग्याचेरूच थुंकपाक लागलो
तर कांय जाण फिशिंग ट्रॉलर घेवन
विधानसभेंत पावले
भांगराच्यो बिस्कुत्यो कुल्या खांचींत
लिपयत दाव्या हातान सलाम करूंक लागले
जय हिंद म्हणपाकय कळनाशिल्ले
दिल्लींत लोकसभेंत पावले
आनी बोल्सांतलें कार्ड काडून
सभापतीक दाखयत म्हणपाक लागले
चोया आमी स्मगलरूय हिंगासोर पावले
आयज हेजें सरकार उडय
फाल्यां तेचें सरकार बडय
तांबडी मोटार मेळ्ळ्यार पुरो
सगळ्या नितीमुल्यांचो चुरो
कोणाय फुडें उबो रावोन
एका मताक एक गांधी चलय
एका मताक एक गांधी
दर वेंचणुकेक नवी नांदी
मिरामार काणकोणां चकचकीत चांदी
बायणांतल्या बाजार बसव्यांचीय वांदी
राजकारणाची पत दमडे मोल केली

दनपरा जेवण मगोचें
रातचें डिनर काँग्रेसचें
सकाळीं उठून पळय जाल्यार
मंत्री जाल्या भाजपाचे
खंय न्हिदलो ताकाच खबर ना
काल भाजपाचो उध्दार
आयज काँग्रेसीचो जयजयकार
तुजें सरकार म्हजें सरकार
खरेंच विटला हो गोंयकार
ह्या गोंयकारान कितें पळयलें?
कोणें कोणें कशें हें भांगराचें
गोंय दिसा उजवाडा लुटलें
कोणें पोटाभरीक भायल्याक विकलें
कोणें मतां खातीर घाटयांक दिलें
झोपडपट्ट्यो उबारल्यो
ताची जाली बायणां
वेंचणुकेचे आशेन झोपडपट्ट्यो केल्यो
आमगेलींच राजकारणी मतां अशीं
गोंयाक लागल्यो किट्ट्यो
आपल्याच चमच्यांक बडट्यो
भोवजनांतल्या तरणाट्यांक मात
उक्त्यो केल्यो सोऱ्या भट्ट्यो
बायलांक कापडां - जाण्ट्यांक चिमटां
घाटयांक डॉक्टर्स, ब्रॅण्डी
चिकनां आनी भटांकूय मटणां
वाड्या वाड्यार बारीक मोटीं देवळां
नायकालें पोर गुंथता ओंवळां
गावड्याक बाबड्याक नकली पोवळां

हाकाच लागून मदले मर्दी
बाटके तितलेय फुटले
पयलो साळीगांव
दुसरो कुडतरकार
तिसरो फोंडेंकार
सगळ्यांनी मिळून् घडयलो
लोकाचें आनी मूठभर भटा –बामणांचो सरकार
तांणी केलो लोकशायेचो धिक्कार
परत एक फावट गोंयचेर आयलो सांवार
लोकशायेंतलो राजा म्हणटा
हांव गा सालाझार
सगळ्यांक मारतां शेंसार
पणजे शारांत दिसा उजवाडे लुटमार
माथ्यार टोपी कमराक चेड्डी
समस्त जनता जाल्या भेड्डी
नरकासुराचो नवो अवतार
गोंयचे मानेर बसला संघ परिवार
तांकां जाला फितूर ताळगांवकार
म्हापशेंकार पैंगीणकार आनी कासावलेकार
अधर्माचो पयसो शिंवरायता मडकयकार
मडकयच्या गांवांत ढवळी ढवळीकार
ढवळीत ढवळीत
जाला पळे
लाचार जाला पळय
बांदोडकार भोमकार.

## ३३. उठ रे म्हज्या म्हालगड्या

उठ रे म्हज्या म्हालगड्या
शडेय पिट्टल्यांक
फाटले फुडलें चिंतिनासतना
बेणय नाडटल्यांक
इन्कलाब झिंदाबाद अजून
हांगा जावंची आसा
मनशाचें मेकळें राज्य
पातक्यांच्या रगता भायर
नव्यान परतें हाडचें आसा
उठ रे म्हज्या म्हालगड्या
साद शिंवांचो
आख्ख्या रानां गरड जाय
तेमकुलेंत लिपिल्ल्या
लांडग्यांच्यो कोयो
अन्यायाची आरड आयकून
कपलाक सामक्यो पावंक जाय
उठ रे म्हज्या म्हालगड्या
पेटय रे काळजां
आगटे पेट्टू हड्डें फुट्टूं
काळोख पिवन मस्त जावया
तुजी गड्या चूड पेटून
फायची तरी वाट दिसूं
उठ रे म्हज्या म्हालगड्या,
म्हालगड्या, तूं जाणांय एक खबर
कोणें दिली कट्टी हातांत
कोणें बांदली काश्टी कमराक

कपला वयलो घाम पुसून
पिवंक सांगलें तान भागोवंक
म्हालगड्या, म्हालगड्या
आरे तांणी सूर्य केन्ना चोयलो ना
पुनवेच्या चंद्रिमाकूय
पाख्या भितर सोडलो ना
उमाशेच्या काळखा बगर
नक्षत्रांचो कुडको लेगीत
घे म्हणून दिलो ना
मेकळें मळब
आसून लेगीत
ताणीं उडपाक
पाखां आमकां
दिलीं ना
देखून आमी
हांगा मळबांत उडूंक पावले ना.

## ३४. म्हाका न्याय जाय

आयज म्हाका मोगाचे चंद्र नाकात
आयज म्हाका रागाचे सूर्य जाय
हे सूर्य घेवन हातांत म्हज्या
आमच्यांतलो काळोख लासचो आसा
एक एक सूर्य तुमच्या काळजांत
पेटयत पेटयत
लख्ख संवसार करचो आसा

आयज म्हाका वझरे नाकात
नश्टें-भश्टें उमथून उडोवंक
आयज म्हाका जोरगत जाय
जोरगतीचेर मोड जाय
माडा येदे तरणाटे
तुफान जावन दर्याक ह्या
खुदावपी वारें जाय

आयज म्हाका फुलां नाकात
होमखणांतले इंगळे जाय
इंगळे हातार घेवन म्हाका
झेमती चूड पेटोवन हांगा
अन्यायाचेर न्याय जाय.

# ३५. भगतसिंगाक नमन

भर जुवानपणांत
क्रांतीचो जय करीत
फांसा वयल्या भगतसिंगा
तुज्या बलिदानाचो सोपूत
खऱ्यांनीच रे शूर वीरा
तुजो त्याग फुकट वचूंक ना
तशें जाल्यार हड्ड्यांतले
इंगळे म्हजे धगधगतात
अशें म्हणचें पडचें ना
ह्या देशांत चडशा जाणांक
याद तुजी जायना
तुज्या नांवान एकय कलम
पांच कलमा भितरूय येना
देखून कितें कर्तव्य शून्य
राजकुंवरा खातीर
पांय घडयोय आमी घालीनात
तुज्या बलिदानाचो सोपूत घेतला
तितलें जरूय जमलेंना
इन्कलाब झिंदाबाद
म्हणल्या बगर
रावचेना.

## ३६. विघ्नाळे

शिक्षणमंत्री करता किर्ते?
उद्देग मंत्री करता किर्ते?
मुख्य मंत्र्याक ना नार्ते
सरकारी गाडयांनी
शेंकड्यांनी उक्तावणां
हातलावण्यो आनी मानचिन्नां
एक हजार एक हो
नाच्च जाल्यार फिल्म शो
मॅट्रीक नापास शिक्षणमंत्री
बायको बोले मंत्री चाले
सांखळेचे पिंजके वाले
आमची लज काडूंक लागले
चूक जाली भूल जाली
पोले फोडून घेवया आतां
शेंवटून मारून बाणावलेचे
नाल्ला बोंडे
दिवचलेचे काजू भोटे
केपें काणकोण रानांतले
बेणिल्ले कणकी कांटे
फोंडें मडकय एकच गा
वयता थंय तेच थोटे
सादूर रावात तांचेपासून
तार्णीच केल्यात आमचे वांटे.

# ३७. संवसाराचें वादळ

म्हज्या संवसाराचें वादळ
अशेंच चलूंक जाय
म्हज्या तारवाक वसाडीचेर
चडपाची संवय जाता,
म्हज्या नाकाक तुफान
सोसपाची संवय जाता,
म्हज्या तारवाक
आख्खो दर्या गिळपाचें
बळगें येता
म्हज्या तारवाक
दोंगरा येदें जावन
भर महासागरांत
वयर तकली काडपाचो
साक्षात्कार घडटा
म्हज्या तारवाक
ह्या संवसाराच्या वादळाचेर
मात करपाची
शक्त येता.

## ३८. राग

ही धुंदी कोणें समजुची
न्हय मोगाची
म्हाका मोग केन्नाच मस्तकाक
मारलो ना
मारलोच जाल्यार तो हो राग
पळोवन त्या सैतानांचो भोग
त्या सैतानांक भुंयेवयलें
नानपयत केले बगर
म्हजो मस्तकांतलो राग
थंड जावंचो ना
म्हजे दांत ओंठ
देठांतल्यान गळचो ना
येवजित जाल्यार तांणी दाळिल्ली
आमच्या पुर्वजांचीं सरणां
तांणी हांगा कितें करपाचें दवरलां
तांच्या कर्तुपांचो इतिहास
दर एका थडग्यांभितर
काळजांतल्या दुख्खा वांगडा पुरला
तरीय ताणीं
आपलो तोच इतिहास
खरो म्हणून बरोवन दवरला
तो इतिहास हांव पुसपाक रावला.

## ३९. कुड्डो मोग

मोगांत पडटना खंय
कुड्ड्या काळजांत
बडट्या मोगाक
खंय तरी एक
दोळो लिपोवन दवरचो
मोगाक कुड्डो करचो
काळजाचेय दोळे फोडचे
चिंतनाक पांगी करून
तिसरो दोळो फोडून
सामकोच जावंचो न्हय कुड्डो
अशा कुड्ड्याक
चेटकीण भूल घालपाकूच
चड फुडें सरता
असले चेटकिणीक
ना माया, ना दया
तिका फातराचें काळीज
जिलेटीनांनी फुटना तसलें
आनी अशा काळजार
तुजी तक़ली फोडून
जीव दिवपा बगर
मार्गच नासता
देखून खंयचे तरी
दोळ्याक फोडिनासतना
सांबाळूंक जाय
सुगूर मोग करतना.

## ४०. चेडी

झाडां पोंदचे चेडयेन
आतांच तोंडांत विडो घाला
विड्याचो तांबडो मोद
पातकड्यांनी रिगला
चेडी दोळो मारताली
चेडी ओंठांत हांसताली
येतल्या वतल्यांक
चेडी भूल घालताली
अशी चेडी भायली भायली
कोंबी कशी कोंकेताली
हांसताली मुरगट्टाली
चेडी गिरायक सोदताली
चेडयेन पोलको सांसपिलो
पोलक्यांत नोट गावलीना
चेडयेक भूक लागिल्ली
चेडी येवजिताली
गिरायकां येतलीं
पांच पांच मिनटांनी
ताका वयार करतलीं
बोंबलेंतलें पाकीट
काडून कोपाचें मारतली
मार मार मारतली
मर मर मरतली
जीण चेडी
अशी काबार करतली.

# ४१. तांकां शेपलावंक जाय

तांणी आमकां खूब
सतायले फटयले
आमचीं हाडां पेचून पेचून
तांचो रोंस पिले
तांकां आयज येथीशट
शेपलावंक जाय
तांणी आमच्यो काश्ट्यो लेगीत
आमच्या आंगार दवरल्यो नात
बायलां म्हणून बायलांचीं कांपडांय
सोडोवपाक ते अनमनले नात
तांकां आयज शेपलावंकूच जाय
शेक काड्डूंक जाय
आयज तांकां शेपलावन
कांडूंक माड्डूंक जाय
मानाचे रेश्पेदाचे जिणें जर
भावा तुका जगूंक जाय
असल्या खुंट्यांक तसल्या कांट्यांक
वाटेवयल्यान भिरकावंक जाय
उद्दिश्टांची सफल वाट चलपाक
होच भावा एक उपाय.

## ४२. म्हजें काळीज

म्हजे बायलेन
म्हजें काळीज
चांचाय चांचाय
चांचायलां
जाय तशें कांड कांडलां
कळमेंत घालून
मळून मळून मस्तीलां
आनी आतां ताचो
नीस नीरो
भळभळीत व्हांवतना
म्हज्या दुख्खाचो हो नीर
बाटल्यो भरून व्हांवता
जेन्ना तुमकां तुमचीं
सुखां अजीर्ण जातलीं
तेन्ना म्हज्या दुख्खाचो
एकच थेंब पियात
आनी तुमी सुखी जायात.

# ४३. दुख्खाचें रान

हें एक दुख्खाचें रान
हांचीं झाडां पेडां
दुख्खाचें धन
तांकां दुख्खाचें मन
अशा ह्या रानांत
दुख्खाचीं रेना करपी
एक गडगंज नेगोशियन
हातांत सुखान धारेल्ली
कुराड-कोयती घेवन
एक दीस दुख्खाच्या रानांत पावलों
दुख्खाच्यो काती
दुख्खाच्यो कांबी
काडपा खातीर दुख्खी
नेगोशीयन हाणीत बेणीत
रेंवटाच्या सुखाच्यो बियो
रोवपाची तजवीज करीत
रानांतले जागे थारावंक लागलो
फातरान फातरावंचें
कोयतेन चांचावचें
तशें तें दुख्ख
कांय न्हय करून
खिणा-खिणांत बेणीत रावलों
दुख्खाच्यो खांदयो पेचीत रावलों
दुख्खाच्यो साली सालपटींत रावलों
दुख्खाचीं पानांय तोडीत रावलों
दुख्खाक सामकें बोडकें करतां करतां

रानांतल्यान कोणें तरी
न्हिदेंतल्यान जागून बोंब मारची
तशी आकांताळी किळांच मारली
आनी हाणून बेणून
पिसडून पेचून उडयिल्ल्या
रानाचे दर एके कापटेन
आपलें हड्डें चिरून
तार्चीं दोन अर्दीं केलीं
आनी निगोशीयनाचे घाय पेलत
दुख्खी रानान व्हडा खोशयेन बोंब मारली
आरे म्हज्या शिरंतरांतलें दुख्ख
बेणूं नाका
ताका पळय कसलो तरी वास मारता
ह्या वासान
म्हज्या रगता थेंब्याक कोंब फुट्टा
म्हजें मन परत पेट्टा
म्हज्या मनाक पेटूं दी
म्हज्या रानाक अशेंच आसा तशेंच
हांगा जगूं दी
म्हज्या सुखाचो तुका दुस्वास नाका
निगोशियन दुख्खाच्या रानाचें
मुखामळ तेळटां तेळटां
रानाच्या कपलार बरयिल्लीं
उतरां तांच्या दोळ्यांनी भरलीं
म्हज्या दुख्खाच्या काळजांत
सुखाचीं देवळां आसात
सभाग्या ती मोडूं नाकात
त्या देवळाचे गर्भ कुडींत
हांवें तुजे सारक्या
नेगोशियनाकूच पुजला..

# ४४. एक विचित्र घर

हें गांवांतलें घर
घर खूब पोरणें
घर पालास कशें
त्या दोतोराक विकपाचें
दोतोर घर घेता
दोतोर म्हणटा
आजून दुडू जावंक नात
त्या भायर ताका खर्चय आसा
उण्यांत उणें पन्नास हजार मोडचे पडटले
अ‍ॅटॅच - संडास ना
अ‍ॅटॅच - बाथ ना
अ‍ॅटॅच - गार्डन ना
अ‍ॅटॅच - किचन ना
अ‍ॅटॅच - डायनींग ना
अ‍ॅटॅच - वरांडा ना
अ‍ॅटॅच - गॅलरी ना
अ‍ॅटॅच - रूम ना
अ‍ॅटॅच - हॉल ना
अ‍ॅटॅच - कांयच ना
अ‍ॅटॅच - काळीज ना
आनी निमाणो दोतोर
म्हणटा
ह्या घराक
अ‍ॅटॅच - गांव ना
गांवाक - अ‍ॅटॅच नांव ना
घराक - अ‍ॅटॅच घर ना.

## ४५. भारत माते

हे स्वतंत्र भारत माते
पुण्यायाचे सासाये
निद्रिस्त तुज्या पुताक
आयज उजू मार्ग दाखय गे

हे स्वतंत्र भारत माते
खडपां करून काळजां
काळोख करूंक पालोवन दिवजां
दिसा उजवाडे तुजें आंग प्रती आंग
पिंजून काडपाक संवकल्यात
तुजें अनंत प्रताप दाखय गे
हे भारत माते.

# ४६. उठ्ठालें - फुट्टालें

हांव रातभर जागो रावलां
म्हाका न्हीद तरी कशी येत?
पांचवीं शेतां तेंगसाक दोंगर
आनी धुंगरेलीं शारां जेन्ना
जागीं आसतात तेन्ना
चित्र विचित्र आवाज
हळशिकावण्यो शिळोवण्यो
बलात्कारान निण्ण निण्णल्या
त्या बायलांचो काळजाक पीळ
घालपी साद कानार पडटकच
कोणाक दोळो लागत?

सुकिल्ल्या शेन्या पानांचो वास
कोडू तोंडान घेतिल्लो घांस
आनी खातकच काडिल्लो तो चित्कार
तेन्ना रातीं धांवतले
आगगाडयेची शिटी लागींच्यान आयकूंक येता म्हणसर
म्हज्या विचारांच्या पयस पावता

जेन्ना हांव रातभर जागो रावतां
तेन्ना सपनाक भितर सरूंक मेळना
तांचे खातीर न्ही हे दारां उगडटां
मागीर म्हजी कूड पिंजून वता
अनवळखी - परक्या अशा शब्दकोशा भायल्या
असंख्य धारदार बरोवंक नाशिल्ल्या शब्दांनी.

सात विरांनी सात शुरांनी
अभिमन्यूक जिवो मारिल्ल्याची म्हाका खबर आसा
युधिश्टिराचो धर्म आनी कौरवांचो सत्यनाश
तशेंच सर्गार गेल्ले महाआत्मेय म्हाका खबर आसात.

म्हाका हांव खबर आसा
म्हाका तो खबर आसा
म्हाका सगळें रामायण महाभारत
पुराय खबर आसा
थकून-भागून
गाड न्हिदेतल्या सपनांनी
जिणभर हें सगळें
हांवें लखख दोळ्यांनी
पळयिल्लें आसा
देखून म्हाका सगळें खबर आसा.

## ४७. ये शक्ती माये

ये निजी शक्ती माये
घेवन वच म्हाका
ते मूळ सुवातेर जंय
आसलें फक्त
हाडां मांसाचे
आनी फक्त तांबड्या रगताचे
मनीस आनी तांचें मनीसपण
आनी जंय नासलें
आयचे भशेनचे
मनीसपणाक हीण तशेच रानवटी
अवस्थेंत व्हरपी धर्म
आनी तांच्या नांवान
उबारिल्ले देव
जावंचें मनशा रूपी खेव
जाचें नांव घेवन
कांडटात हांगा धुमशेणां
आनी मांडटात अच्छेव
ये नीज आदी शक्ती माये
व्हर म्हाका
ते तेन्नाचे मूळ सुवातेर
जंय नासल्यो जाती
आनी काळ्यो गोऱ्यो काती
आनी वर्ण भेद
आनी जात भेद
जंय जियेवं दी
म्हाका आनी म्हज्या

सारक्यांक असंख्यांक
जांका नाका
हांगा माजिल्लो रणखेव
आनी रगताच्यो न्हंयो
आनी मनशाच्यो पवित्र देहाच्यो बांयो
ये आदी माये
घडूं तुजो दिश्टावो
समेस्तांक आनी मनीस राकेसांक
जे ही तुजी निर्मणी
करूंक संवकल्यात भ्रश्टांक
ये माये दाखय गे
तुजी सासाय
हे भुंयेर शिंवरून
सर्वय माया मोग
आनी मनीसपणाचें आपलेंपण
सवस्तकाय आनी शांतीकाय
ॐ शांती!
ॐ शांती!

## ४८. दर्या

ह्या दर्याचो घोंटान घोंट
पिवन तृप्त जाल्ल्यांनी
दर्या सुकला अशें समजुचें न्हय
दर्या मागीर कसलोय आसूं
दर्याची लांबाय रूंदाय
आनी खोलाय केदीय आसूं
दर्या दर्याचोच आसतलो
दर्या पिवपी ताका किंकोत
दर्या पिला अशें तांणीय सांगचें
तांच्याच घोंटाची गवाय तांणी पळोवची
जो मेरेन घोंटा बगर
वसाड जांणी केन्नाच झेल्लीना
तांकां ल्हारांक पांय लेगीत
लावपाचो हक्क ना हेंवूय तितलेंच खरें
नीज दर्यावंत
दर्यांतल्यानूच येतले
मोडांच्या झाडांची रानां बेणीत
दर्या समस्तांक मेकळो करतले
मागीर ह्या दर्यार
दर्याचो घोंट घेतल्यांक
पांयां पोंदांच दवरतले.

## ४९. देव कोणाचो?

खरें कितें
फट कितें
कोण पयलो
कोण दुसरो
अब्ज वर्सां
हो संवसार घडलो
उपरांत जीव
आनी मनीस
मनीस शाणो
काय गुणो?
मनशान सोद पयलो
देवाचोच लायलो
ताणें देवाक कोव्रायलो
फातराचेर लाकडाचेर पितारलो
पानांचेर, कागदाचेर चित्रायलो
सांच्यात घालून आपलो घडयलो
आपणांक जाय तसो
आनी देवाक केलो
इल्लोसो
इल्लोसो जाल्लो देव
घरांत पावलो
देवळांत रावलो
मशिदींत बसलो
इगर्जेंतूय वसलो
देव सगळे कडेन
पूण
हाय...
कितें सांगूं?

देवळांतलो देव
एकल्याचो
इगर्जेंतलो देव दुसऱ्याचो
कोणाचो लाकडाचो
तर कोणाचो मातयेचो
कोणाचो शेणाचो
तर कोणाचो मेणाचो
मागीर देव
म्हजो आनी ताचो
तांचो आनी आमचो
हिंदुंचो आनी मुस्लिमांचो
क्रिस्तावांचो, शिखांचो
इजिप्ताचो आनी
ग्रीकाचो
युरोपाचो आनी
आफ्रिकेचो
भटाचो, बामणाचो,
कुळवाडयाचो
आनी म्हारांचो
सर्गाचो आनी धर्तरेचो
खरो कोणाचो
हिंदुंचो?
मुस्लिमांचो?
क्रिस्तावांचो?
शिखांचो?
काय आमचो सगळ्यांचो?
जर सगळ्यांचो
जाल्यार ताच्या नांवान
हांगा आयज खून, मारामाऱ्यो, लढायो
आनी म्हाझुजां?

## ५०. मन-धन

नांगर घाला
जोत बांदलां
दिपळ्यार दिपळे
मातयेक गंध
संचिताचो सुकाळ
भंय ना -
गंधाची माती
गर्भातली नेमान
पोट्टूरतली दुदाळ
ताणतलीं थानां
मागीर मनाच मनां
अशीं मनां कणसां
मळबा दिकेन
आपलें माथें दाखयत
येतल्या वतल्यांचो
घेतलीं सलाम
मागीर अख्ख्या
कातोल्लाचें खाजन
केदे-केदें गा हें मन
पुरो म्हाका
इतलेंच धन!

# ५१. पगारी

हो म्हयनो कसो तरी धुकलपाचो
हो म्हयनो बरोच कटकटीचो
फाटलो पगार फाटींच सोंपलो
टामटीम करून करून
कशेभशेन म्हयनो धुकल्लो
हो म्हयनो सोपूंक पावला
बोल्स सामकें पोकें जालां
पाव आनी दूद उदार घेतलां
शॅनाक आतां एक तारखेक रावलां
रिणकार आताच येवन गेला
चलो म्हणटा कंपास जाय
चली म्हणटा पिकनिकेक वचूंक जाय
बायलेकय कुळारा वचूंक जाय
सगळ्यांकूच पयशे हांवेंच दिवंक जाय
म्हाकाय बी कितें कितें जाय
खंय खंय उस्तिलें, काशोदय फोडलें
मिलेरूय फोडपाक काडलो
सगळे पासबुकूय तपासले
पांच पांच रूपया बॅलन्स आसलें
खांची क़ोनसे सोदले
म्हयन्याचो निमणो दीस
पोट तेंकोवन न्हिदलां
भूक लागू नये म्हणून
पोटाक घट्ट दोसो बांदलो
जशी जशी भूक लागतली
तसो तसो दोसो अंदितलो
दीस जालो नवो म्हयनो लागलो
नव्या म्हयन्याचो नवो स्वास घेतलो.

## ५२. दवरणें

रडत रडत
माथ्या वयलें सगळें दुख्ख
वाटे वयल्या दवरण्यार दवरलें
दुख्खाचें वजें
दवरण्याकय जड जालें
म्हज्या दुख्खाचो
एक एक नग
दवरण्याचो एक एक चिरो
अचळय हालयत गेलो
आनी पळयतां पळयतां
खूब पावसाळे सोशिल्लें
आनी अनेक सुखदुख्खाची
गवाय जाल्लें दवरणें
पयलेच खेप म्हज्या दुख्खान
एका दोंगराच्या पालसणाची
आव हाडून
घसाघस घसयंच करून
थंय ते वाटेर भूंय भरवण जालें
आयज मात येतलो वतलो
दवरण्याक विसरून
फक्त याद सांगतात
दवरण्यार दवरिल्ल्या त्या म्हज्या दुख्खाची.

## ५३. एक सत्य

तुमी तुमकां जाय तर्शी रावात
हांव तुमचो एक फोटो घेतां
तुमच्या फोटयांत म्हाका
तुमचीं रूपडींच जाय
देखून तुमचीं सगळीं रूपडीं
म्हज्या मुखार मांडून दवरात
तुमी कळसुत्री बावल्यो
हें तुमकां तुमचे फोटे पळयतकच
कळटलेंच हाची म्हाका खात्री ना
पूण तुमकां एक गजाल मात
नक्की कळटली
तुमी म्हणटात तीं तुमी न्हयच
तुमी कोण तरी दुसरींच
इतलीं तुमी तुमकां विसरतलीं
सैमाचो नेम तो कोणाक चुकना
पूण कितें सांगूं
हें सत्य मात तुमकां
आयज लेगीत होलमूंक नां

## ५४. एक ध्यास

ह्या मळबाचो रंग कोणा खातीर
कोणा कोणा खातीर मळबांतलीं कुपां
अयस पयस कोणें केल्यात वांटे
उपाट परजळ घालतल्या नक्षत्रांचे?
कोणा कोणाच्या पोशांत हे समस्त सुर्या
कोणां माथ्यार त्या सुर्याचीं वतां?
दर्याचें ल्हार तें कोणाक होरायता?
पयसुल्लो दर्या तो मळबाक सो तेंकता?
कोणा खातीर तो ठांय आनी खोल तळ
कोणें कोणांक केन्नां वांटल्यांत माणकां मोतयां?
ही माती तांबडी तांबडी कोण कोणाची?
कोणाच्या धर्म रंगांनी रंगून गेली
आनी कितल्यांच्या रगतान कालवली
ही माती आमची तुमची समेस्तांची
तशेंच हें मळब आनी दर्याचो अख्खो गाज
आनी दर एकल्याच्या देवांचो साज?
होच न्हय गा तो सुखी अनंत ईश्वराचो
आनी शेवटाक इतलोय आकांत करपी
कर्मकट्टो दळिद्रो बुध्दी भ्रश्ट जाल्लो मनीस
हांगा मळबाचें वारें करता चमत्कार
दर्याच्या थेंब्यारूय गाजयता अधिकार
रगतान कालयिल्ले हे धर्तरेक
आतां फकत लागला मनीसपणाचोच ध्यास.

## ५५. जीण

मोगान भरिल्ल्या दोळ्यांतल्यान
हांसत हांसत खेळूं दी
ना जाल्यार सगळ्या घराची
मसंड जातली
ही जीण म्हणल्यार
कापिल्ले मेल्ले कुडींतल्या काळजाचें घपघपी
स्पंदन...
तसोच जियेतां
तसोच जागो रावतां
पावलां पोंदच्यान व्हांवतल्या
मंद झऱ्या वांगडा
एक उतर खोल वचून
खंय ना खंय तरी मात येता
खोल रोमता
आनी हेंच उतर
होच शब्द
खंय ना खंय तरी
हे मातयेंतल्यान किल्लून येता
व्हडा विस्वासान
पर्थून जल्मून
येवपाक
हांव रावता.

## ५६. कोण चुकलो?

कोणाकय दिसता आसत
विखाळ सोरपाक भितले आमी
कोणूय चित्ता आसत
सुर्याचेर थुंकतलो
गाणीत शेंपडी घालून आमी
मारतें घेवन रावतले
कोणेंय जरीय कापले पांय
लुणां आमचीं चलतलीं
जरीय घेतले आंगठे
आपली दक्षणा म्हूण द्रोणान
एका एकलव्याचे आत्मे आमी
जरी केन्ना चुकचे नात
कोणेंय जर दाबली आमची सकनळी
निमण्या उस्कऱ्याक फुटून जिबो
आकांताचे गरडेन हांगा
पांचूय भुतांक पांयां तळां
दाळले बगर रावचे नात
कोणूय आसूं केदोय आसूं
नश्टाचेर खोंट मारून
भ्रश्टाचेर थुंकून
निजाचें दायज आमचें
हक्काचें शिंवर आमचें
कुळयेचें देवत आमचें
तुमचे चुकीन आमचे चुकीन
आयज हांगा नरक जालां
कोण कशें कितें मनीस

कसलेंच कितें पळयलें ना
फाटलो फुडलो विचार करून
भांगर वेंचूंक पावले ना
देखून आमकां नितळ मनीस
आजून हांगा मेळ्ळो ना
कोण एकलो भट्टेकार
नाडपी-पिडपी भाटकार
दुडू चोरून सोरो ओतून
जालो आमचो जायणीकार
अक्कल ना पयशांची
लजूय ना करण्याची
कातीन गोरे मतीन सुरे
रात दीस ब्लॅक करून
पयशा नाड्यार जालो हिरो
तुमचे चुकीन आमचे चुकीन
सगळोच हांगा घोळ जाला
चोरा हातांत तोल्लूक दिवन
माकडां हातांत कोलती दिल्या
कोण चोर कोण साव
लागना हांगा कसलोच थाव.

# ५७. झळपल्ले गॉड एक फॅड

आमी पिशे
ताका सोदपाक
धर्माचे रस्ते
वांकडे तिकडे
तातूंत हो धर्म
ताचो धर्म, म्हजो धर्म
उपरांत ह्या
धर्माखातीर
कोणाचोय जीव घे
मारामारी कर
सगळें कितें
ताच्या नांवान
तो मात
कोणाक सांपडना
कारण...
कोणाकूच तो
खंय रावता
आजून लेगीत
खबर ना
तो देवळांत रावता
इगर्जेंत आसता
मशिदींतूय वसता
त्या मनशांनी
केल्ल्या मुर्तींनी
कोरांतिल्ल्या
रंगयिल्ल्या
निर्जीव निस्तेज मुर्तींनी
खऱ्यांनीच देव आसता?

# ५८. आय एम इंडिया

कितलींशींच वर्सां जालीं
वेंगेंत घेवन मारली पोटली
ती ते खोंपीतल्यान भायर सरून
धांव धांव धांवताली
केन्ना ह्या गांवांत
केन्ना त्या गांवांत
प्रांत आनी देश बदलीत
ती मनीस धर्म सोदताली
दारार मारतकच
कोण तरी उगडटाले
तिका पळयताले, हांसताले
आनी ती साप्प एकली एकली
तांच्यांतल्या मनीसपणाक सोदताली
तांचे ते तांबडे गुंज दोळे
आनी पोलेभर धुंदीचे कळे
ती दचकताली, फाटीं सरताली
आनी परत तिचे सोदीक धांवताली
तिणें कोणा कडेन सूख मागलें
कोणा कडेन घाम आनी रगत मागलें
तर पोसो करून घोंटभर उदक
तिका सगळ्यांनी तें दिलें
सगळें सगळें ती गटागट पिली
आनी भर रस्त्यांतल्यान
आपली बोंदेरां हुबयत
जैताचो कैफ घेवन
गांवांगांवांतल्यान पेरगांव घालीत

दुर्गा आनी खोपाडां हुपीत
सगळ्यो हड्डीं माड्डून गेली
तिका दिसलें हांगा
आतां सगल्यांच्याच रगताक
तांबडोच रंग आसतले
आनी वता थंय सगल्यांनीच
तांबडो रंग तोंडांक लावन
कपलार सत्यमेव जयते
बरयलां म्हणून
आनी पयल्याच धपक्याक
कोणें तरी तिका तिचें
नांव विचारलें आनी तिणें
चोंयवशीं पळयत ल्हवूच
ताच्या कानांत म्हणलें
आय एम इंडिया
रिपब्लीक इंडिया.

# ५९. दोन पांयांचीं जनावरां बी

हजारांनी शेंकड्यांनी वर्सां जालीं
दोन पांयांचीं जनावरां
दोंगराच्या घोलींनी रावतालीं
हा हूं करीत करीत
घोलींतल्यानी भायर सरून
मुखावयल्या रानांत
येवंक भियेताली
शेकीं तीं घोलींतल्यान
भायर सरलीं आनी
रानाचे वाटेक लागलीं
रानां चलतालीं रानां चरतालीं
रानां बेणटां बेणटां
मनां घडटालीं
मुनां वाडटालीं
दोन पांयांचीं जनावरां
रानवट अवस्थेंतल्यान
भायर सरतालीं
जनावरां चल चल चलतालीं
वाटेर तांकां एक नकलामी जाली
पयलेच खेप दोन पांयांचीं जनावरां
सामकीं काचाबूल जालीं
तांकां धर्म नांवाचो प्रेषित मेळ्ळो
जात नांवाची एक रंभा गावली
आनी दोन पांयांचीं जनावरां
त्या धर्म नांवाच्या प्रेषिताक भुल्लीं
रंभेच्या चाळयांनी

जनावरांचीं पावलां
शाराकडेन वळ्ळीं
आनी धर्म जातीची कात
आंगभर पांगरून जनावरां
शारांत रावंक लागलीं
एकामेकांक सांगूंक लागलीं
आतां आमी सिविलायज्ड जालीं
आनी कल्चर्ड जालीं
आनी मॉडर्न जालीं
दोन पांयांचीं जनावरां
चंद्रार पावलीं, मंगळार पावलीं
दिगंतरांच्यो सगळ्यो शिमो हुपून
दोन पांयांचीं जनावरां
अंतराळार गेलीं
परत मॉडर्न घरांत आयलीं
आनी.....
जनावरांक एक दीस
वाटेर केन्ना तरी
मेळिल्लो धर्म, मेळिल्ली जात
दोन पांयांच्या जनावरांक
इतली भिडली, इतली भिडली
आनी एकूच घोलींत रावतालीं
एकामेकांक ल्हेंवतालीं
हें पुराय विसरून गेलीं
तांणी परत शारांतल्या
रानांनी बांदल्यो घोली
घोली तिजुल्यांच्यो
घोली संगमवरवी
घोली रूप्याच्यो

घोली भांगराच्यो
हे घोलीक कोणें
सुवर्णमंदिर म्हणलें
कोणें गुरूद्वार, कोणें देवूळ
कोणें मशीद
आनी ह्या शारांतल्या
शिमीट कॉँक्रीटाच्या
मॉडर्न घोलींनी
दोन पांयांचीं जनावरां
वेगवेगळ्या वाटांनी
चलूंक लागलीं
जनावरांच्यो वांटो वांटून गेल्यो
वांटो कांट्या-खुंट्यांनी बांदल्यो
एका तेंपार एकेच घोलींत
रावतलीं जनावरां
आपली वाट विसरलीं
आपलें भाट विसरलीं
खुनशीं दांत भायर काडून
दोन दोक्याचीं जनावरां
एकामेकाक चाबडीत सुटलीं
राम-अल्ला बिसमिल्ला
जेझू आनी झुजां
लाल रगत
घटाघटा घोटीत रावलीं
तेन्नासावन
मनीस जात बदनाम जाली.

## ६०. मुक्ती माये

हे मुक्ती माये, हे शांत सये
पोटांत तुज्या धगधगपी प्रेरणा
आमच्याच काळजांत इंगळे जावन
ह्या खिणां रसरसूं दी
स्वातंत्र्याची राखण तुजी
करपाची शक्त दी, शक्त दी
ही भूंय गणतंत्र भारताचे सये

कोणूय जरी हांगा आसत भेदी
झडटी तांची घेवंची तुवें
तुज्याच कुसव्यांत जल्म घेवन
परमूड जावन तुजोच गळो
अंदूपाचो रणखेव खेळटल्यांक
पांयां पोंदा दाळूं गे, दाळूं गे
गणतंत्र भुंये, भारतभुंये
हे हिंद माते, स्वतंत्र देवते
जागय तुजी सासाय गे
जाती-कातीची आनी धर्मांची
गची आंवळून थांबय गे
रक्तन्हाणां आनी जीवघेण्णीं रणखेवां
मनीसपणाचें राष्ट्र घडोवपाक
जागय गे हांगाच्या
दर गणांच्या अंतरात्म्याक
ये मुक्त भुंये आमचे माये
स्वतंत्र सासाये.

# ६१. एक विचार

ईश्वराचे प्रतिमेची पूजा म्हळ्यार
मेल्ल्या बापायची पूजा
जियेतल्या आवयबापायक
आमी केन्ना पुजीनात
कारण ते आमचे मर्दीं
सजीव आसतात
ईश्वरच आमचेमर्दीं जगता
आनी ताका लागून मनीस जगता
अशें आसुनय ईश्वराक
वळखुचें सोडून
मनीस मात निसर्गाक मारून
निर्जीवांची भक्ती करता.

## ६२. सूख दुख्खाचे खेळे

अजापांचोच हो संवसार
तूं सांगता तेंच खरें
हांगा सगळें आसाय बी
हांगा कांय नाय बी
खंय वच्चें कशें वच्चें
कोणांकूच सारकें खबर ना
अजापांचोच हो संवसार
हांगा खंयच कांय थीर ना
अंत निच्छीत केन्ना खबर ना
बर्फावरी तन पिघळून वता
मन मात हिमालय कशें
थेंब्यांत सामावल्या सिंधू
अजाप कशें जायत अशें
बेमुर्वत सत्ता आसा
सत्ता फक्त वेळाकाळाची
सूख दुख्खाचो खेळ सदांच
पूण तेन्ना सुखाची कल्पना
आतां पळेल्यार खंयच कांय ना.

## ६३. प्रतीरूप

परत परत म्हाका
म्हजेंच रूप भितर दिसता
हांवें हारसोच परतिला
आतां म्हाका भंय ना
म्हजो चेरो म्हाका दिसचो ना
तूं पळे जाय तितलो तो
ताच्यांत वेगळें अशें कांय नासता
जें देवाच्याय मुखामळांत आसता
कारण देवाकूय चेरो
हांवेंच दिल्लो आसता
केन्ना तरी -
मनशांक प्रश्न पडिल्लो आसता
हांव कोण?
हांव खंयच्यान आयला?
हांव कित्याक आयला?
हांवें कितें केलां?
जाचें मोल तरी
हे भुंयेर तुजे जिणेंत
केन्ना तरी जालां?

## ६४. सैमोत्सव

खंयच्या कुपांनी लिपून आसता हो पावस
श्रावणांत –
खंयच्या किर्णांनी लिपून रावता तो सुर्या
श्रावणांत –
वत पावस खिणांखिणांत
केन्ना आसोर
केन्ना निसोर
श्रावणांत –
हो कोणालो कसलो अवसर
सैम नट्टा सप्त कोर
सगळे परब उत्सव
आनी रंगीबेरंगी फुलां पानां
रानावनांत घांगरां घुंगरां
वाटेर चाफीं भांगराळीं
आनी जायो जुयो अनवाळी
श्रावणांत –
श्रावणांतलीं पांचवीं तोरणां
तळ्यांत शेळ्याचीं तळपां
भुळभुळीत निसरून वता
सगळें सगळें पावलभर
केन्नाच पडचो ना
श्रावणाचो विसर.

## ६५. बापायचें श्राध्द

खूब दीस जाले कावळो येवना
ना म्हणून घराच्या पाख्यावयल्यान
हालीं तेंपार केन्नाय उडून वतालो
तसो उडूनय गेलो ना
वर्स श्राध्दाक मालणी पुनवेक
वो भरणी श्राध्दाक न चूकता येवपी
कावळो येवना
तळपार दवरिल्ली वाडी
आनी वडा पोंदची विडी
कावळ्यान उश्टायली ना
कोणेंय जाण्टेल्या वाटसरून फुकींत दवरिल्ली
आज्या पणज्याची विडी कोणें ओडली ना
कितें घडलां सर्गार कांयच कळना
जाण्टे आमचे पातकाचेर बेजारल्यात
काय सर्गार गेल्ले सगळे
नरकात पावल्यात?
कळपाक मार्ग ना
हांवें बापायक पळयलो ना
बापूय गेलो तेन्ना हांव जल्मलो ना
बापायनूय म्हाका पळयलो ना
म्हज्या जल्मापयलींच बापूय वतलो
हें म्हजे आवयकूय केन्ना कळ्ळें ना
कावळो वाडी उश्टावंक आयलो ना
हाची म्हाका खरेंच खंत ना
वाडी खावपी कावळ्याक पळेत
बापायची कल्पना करपाची संद

म्हाका केन्ना गावली ना
कावळो आयलोच ना
कावळ्या कावळ्या यो रे वाडयेक
पूत तुजो तिश्टता
आतां हे घडयेक.

# ६६. पुरसांव

यें पुरसांव
खुंय चोल्लां?
धुल्लार पावलां दोवरीत
यें पुरसांव
खुंयच्यान येयलां
पुनवे चांदने माड्डीत?

यें पुरसांव
कोणाचें
कोरीत चोल्लां कांतार ?
काळे झोगे कित्याक ते
जोणा अेकल्या माथ्यार?

ये कोसले सूर
पुरसांवाचे
होजार काळजां चिरपी;
निमणे मातयेंत पुरतोना
चिऱ्याक चिरो जोडपी?

पुरसांवा या
तुटलेले खांदे
लांब रस्तो सोडून गेले
गेल्ल्यांच्यो यादी दोवरून
शिमेर पावतकूच पुरसांव मेलें!

## प्राप्त जाल्ले साहित्य पुरस्कार

गोंय कला अकादमी – २००४

साहित्य अकादेमी – २००५

कला अकादमी – १९८२

कोंकणी भाशा मंडळ

जनगंगा साहित्य पुरस्कार

टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशन

एन. सी. आर टी १९९९

नवी दिल्लीचो राष्ट्रीय पुरस्कार

कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार

तुका म्हणे साहित्य पुरस्कार – महाराष्ट्र

कला अकादमीचो नाट्य लेखन पुरस्कार

कला अकादमी संगीत पुरस्कार

## आमी

आमच्या मदीं येवचें कोणें?
आमच्या मदल्यान वचचें कोणें?
भाग्यावेल्या पेटत्या होमकुणांत
जळपी आमी जिवे हाणे,
आमकां कसली गा पर्वी
थेंबोभर धुंकयेची!
अस्मितायूच जावन गेल्या
सगळ्यां खातीर जळपाची.
आमचो गोवोर जालको जाणां,
पूण ना, जळपी आमी.
जळून जळून सदांच गा
तुमचे मदीं उरपी आमी!

